# जपुजी साहिब

## (गुरू नानक देवजी)

## शीख धर्मग्रंथ





णकार भाष्य: सुरेश गुंडू आमोणकार

## सुरेश गुंडू आमोणकार



हांचो जल्म बोरी, फोंडे हांगासर २२ मार्च, १९३५त जालो. शिक्षण गोंय, मुंबय आनी पुण्यांत जालें आनी तांणी एम. ए. बी. टी. ह्यो पदव्यो जोडल्यो. १९५६ ते १९६० मेरेन तांणी मोंबासा, केनिया हांगासर आनी मागीर १९५६ ते १९९६ मेरेन न्यू गोवा हायस्कुल (आतांचें जी. एस. आमोणकर विद्यामंदिर) म्हापसा हांगा मुख्याध्यापक म्हणून काम केलें. पूण मजगतीं १९८० ते १९८८ ह्या काळांत ते गोंय दमण, दीव माध्यमीक आनी उच्च माध्यमीक शिक्षण मंडळाचे अध्यक्ष आसले आनी १९८९ ते १९९२त ते गोंय साक्षरता मिशन आनी गोंय प्रौढ शिक्षण संचलनालयाचे संचालक आसले.

गोंय रेड क्रॉस, गोंय भारत बालवीर संघटणा आनी गोंय मुख्याध्यापक संघटणा ह्या संस्थांनी तांणी वावर केला. म्हापशें नगरपालिका मंडळाचे इकरा वर्सां वांगडी आनी एक वर्स अध्यक्ष म्हणून ते वावुरले.

शिक्षणीक मळावल्या मोलादीक योगदानाखातीर १९७८ वर्सा गोंय, दमण, दीव सरकाराचो तांकां राज्य शिक्षण पुरस्कार फावो जाला.

बौद्ध साहित्याचो अभ्यासक ह्या नात्यान 'झॅन काणयो', 'जातक कथा' आनी 'धम्मपद' ह्या ग्रंथांचो तांणी कोंकणींत अणकार केला. 'धम्मपदा' खातीर तांका साहित्य अकादेमी, नवी दिल्ली, हे केंद्रीय संस्थेचो १९९९चो भाषांतर पुरस्कार फावो जाला.

श्रीभगवद्गीतेचो 'श्रीभगवंतान गायिल्लें गीत' (२००२) आनी श्री तिरुवल्लुवर हांच्या 'तिरुक्कुरळ' (२००४) आनी ज्ञानेश्वरी ह्या ग्रंथांचे अणकार तांणी प्रसिद्ध केल्यात. तांच्या अणकाराच्या मोलादीक वावरापासत तांकां सर्गेस्त श्याम काकोडकार यादस्तीक अणकार पुरस्कार (२००५) फावो जाला.

गुरू नानक देवजी
हांणी रचिल्ल्या

# जपुजी साहिब

(ह्या ग्रंथाचो कोंकणी अणकार)

भावअणकार आनी भाष्य
सुरेश गुंडू आमोणकार

गीता प्रसार, म्हापसा

## *Japuji Sahib*

Konkani Translation & Commentary on Guru Nanak Devji's Japuji Sahib

2008



Geeta Publication
Publication No. 8

**Publisher**
Geeta Prasar
Guru-Kunj
Mapusa - Goa 403 507

**Typesetting**
Tanvi Graphics
Margao - Goa 403 601

**Printer**
Maureen Printers
Panaji - Goa 403 001

**Price** : Rs. : 100

## जपुजी साहिब

गुरू नानक देवजी हांणी रचिल्ल्या ग्रंथाचो कोंकणी भाव अणकार आनी भाष्य

२००८



गीता प्रसार साहित्य
पुष्प आठवें

उजवाडावपी
गीता प्रसार
गुरु-कुंज
म्हापशें - गोंय ४०३ ५०७

अक्षर जुळोवणी
तन्वी ग्राफिक्स
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१

छापपी
मोरीन प्रिंटर्स
पणजी - गोंय ४०३ ००१

मोलः रु. १००

# उपकार

गोंय राज्याचे मुख्य सचिव श्री. जसविंदर पाल सिंग IAS हांणी ह्या पुस्तकाची ÷वळख' बरोवन दिली. स्वातंत्र्यसैनिक आनी कवी श्री. नागेशबाब करमली हांणी अभ्यासपुराय प्रस्तावना बरयली. तन्वी ग्राफिक्स हांणी अक्षरजुळोवणी आनी मॉरीन प्रिन्टर्सचे भौ. मातियश वाझ हांणी छापणावळीचें काम आस्थेन केलें. म्हजे उदयपुरचे मित्र श्री. किशोर जी. संत हांणी ÷जपुजी साहिब'ची देवनागरी लिपींतली प्रत मेळोवन दिली.

ह्या सगळ्यांच्या उपकारांत हांव आसां.

सुरेश गुंडू आमोणकार

# मांडावळ


| | |
|---|---|
| आरंभाचीं दोन उतरां | VIII |
| वळख: जसविंदर पाल सिंग | X |
| प्रस्तावना: नागेश करमली | XII |
| | |
| जपुजी साहिब - पउडी १ ते ३३ | ५ |
| धर्मखंड - पउडी ३४ | ७० |
| ज्ञानखंड - पउडी ३५ | ७२ |
| श्रमखंड - पउडी ३६ | ७५ |
| करमखंड - पउडी ३७ | ७७ |
| निमाणो उपदेश - पउडी ३८ | ७९ |
| श्लोक | ८२ |
| समारोप | ८४ |

# आरंभाचीं दोन उतरां

## जपुजी साहिब

'जपुजी साहिब' म्हळ्यार गुरू नानक देव हांचे अमृतवाणीचो कोंकणी रूपकार. गुरू नानक देवांचीं सगलीं पदां 'गुरू ग्रंथ साहिब' ह्या ग्रंथांत आयल्यांत. 'जपुजी' ही तांची मुखेल रचना. ह्या ग्रंथांतल्यान तांचे अनुभूतीचें चिंतन आनी उपदेश उकतो जाला. गुरू नानक देवांच्या जिवितांत साधुताय, संतताय, प्रतिभा आनी प्रज्ञा हांचो सोबीत संगम जाला.

'जपुजी'च्या ३८ श्लोकांत गुरू नानक देवजी हांणी धर्माचो सार आमकां दिला. तांणी 'जपुजी' आपल्या जिविताच्या निमाण्या काळांत बरयला. आपल्यो चार परिक्रमा (उदासी) सोंपयतकीच तांणी करतारपूर हांगा शीख संप्रदायाचें धर्मपीठ स्थापलें. थंय जायते भावीक तांचे भेटेक येताले. अशाच एका समयार आयिल्ल्या भक्तांनी कळवळून तांकां प्रस्न विचारलो: "गुरूदेव, आमी धर्मान चलतात. सगलीं व्रतां करतात. पूण आमकां सूख, समाधान आनी शांती मेळना. अशें कित्याक जाता? आमकां ईश्वराची ओड लागल्या. आमकां तांचें दर्शन कशें घडटलें? आमकां ह्या भवसागरांतल्या तापत्रयींतल्यान मुक्ती कशी मेळटली? आमकां तें परमपद कशें मेळटलें?"

भक्तांची ती तळमळ पळोवन गुरूदेवान तांकां ईश्वरप्राप्तीचा सोंपो मार्ग सांगलो. ह्या संवसाराच्या मार्गावयल्यान चलतना परमेश्वर प्राप्तीचो मार्ग खूब अवघड आसा. हो मार्ग खर अशे चडटेचो.तो चडपाक तशेच घट्ट आनी भक्कम निसणीची गरज आसा. ते खातीर नानकदेवान 'जपुजी साहिब'

ही ३८ सोंपणांची – पांवड्यांची (पउडी) निसण भक्तांक दिली. त्या मार्गान वचून जण एकल्यान्न आपलें जिवीत सार्थकीं लावचें हेंच गुरू नानकाचें आमकां सांगणें.

आमच्या भारतांत धर्मग्रंथांचेर साबार भाष्यां बरयल्यांत तेचपरी सूत्रांय बरयल्यांत. ÷जपुजी' हो सूत्रमय ग्रंथ. आडटीस ÷पौडियां' – सोंपणां, आरंभाचो मूलमंत्र आनी निमाणो श्लोक मेळून, थोडक्यांत, धर्माचो सार आमकां दिला. हातूंत फकत श्रद्धेच्यो गजाली सांगूंक नात; व्यापक नदरेन विचार केला. ज्ञानयोग, ध्यानयोग, भक्तीयोग, साधना इत्यादि सगलें कितें सांगलां.

आतां जपुजी साहिब कोंकणी वाचकांचे भेटेक येता. भारतीय परंपरेंतलें हें स्फुर्तदिणें अध्यात्मीक साहित्य. ह्या अक्षरवाङ्मयाचें स्वागत कोंकणी वाचक करतले अशी आस्त हांव बाळगितां.

सुरेश गुंडू आमोणकार



## FOREWORD

It gives me immense pleasure to write this foreword for Suresh Amonkar's Konkani translation of the most revered of Sikh scriptures -- The Japji Sahib. This comprises 38 divine 'paudis' (steps) or verses where Guru Nanak, the founder of Sikhism, sings the praises of the one True God, who is just, loving, righteous, formless and yet the creator of the universe, who desires to be worshipped through love and righteousness. The Japji tries to ignite the gentle voice of conscience within us and enlighten the inner self. Sikhism is a relatively modern day religion which teaches the worship of the Truth through the Word of God and questions mindless beliefs and image worship without internal purification. The Sikh religion evolved as a bridge to build harmony between the apparently opposing positions taken by Hinduism and Islam. The very fact that Nanak's body was claimed by both Hindus and Muslims after his death indicates the harmony with which Guru Nanak managed to achieve in his spiritual mission.

The Japji Sahib is the devout Sikh's Morning Prayer which is generally recited at the break of the dawn after he has performed his ablutions and cleaned himself. It is an ode to the upliftment of the soul and has tremendous spiritual power. Indeed the 'Bani' or the sacred words of The Guru constitute a lifeline between the mortal soul and the Preeminent Reality which is omnipresent. The Japji says: Gurmukh nadam Gurmukh vedam" (the Word of the Guru is the music which the seers hear in their moments of ecstasy; the Word of the Guru is the highest scripture. By communion with the Word we attain the vision unattainable.)

I am particularly happy that this sacred work has been taken up lovingly by my dear friend Suresh Amonkar. In fact both my wife, Simran and I have known Suresh and Sudha for over 24 years now and fondly recollect our association in the early eighties when he was Chairman of the Goa Board of Secondary and Higher Secondary Education and I had just joined the Goa Administration as Director of Education. We have always admired Suresh not only for his uprightness and integrity but also for his prolific educational, literary and scholarly pursuits which include the Konkani translation of the Jnyaneshwari, Dhammapada, Bhagwad Gita, Kural and now the Japji Sahib. This labour of love started in 1995 and with the grace of the Almighty, Suresh has rendered invaluable service to the cause of promoting inter-religious harmony in Goa.

It is said that many are the aspirants who attempt to make the grade, but few are chosen. I believe that Goa is indeed fortunate to have Suresh among the chosen few, who has now brought the fountain of Sikhism to the average Goan home so that he can sip and partake of its sweet nectar. I pray that God may give Suresh the foresight, wisdom and strength to continue on this noble path in the service of mankind and the Goan people in particular.

J. P. Singh

# सांस्कृतीक दायजाचो सेतू आनी ÷जपुजी’

भौ. सुरेशबाब आमोणकार हे शिक्षणक्षेत्रांतले जाणकार, तज्ञ. पुराय जिवीत तांणी शिक्षणदानाच्या वावराक ओंपलां. तांच्या वडिलांनी म्हापशांत शिक्षणाची एक ल्हानशीच पाणपोय सुरू केल्ली. सुरेशबाबान त्या ल्हानशा वावराक व्हड रूप दिलें. आज तांचे शिक्षणसंस्थेक भोव विशाळ रूप प्राप्त जालां. सुरेशबाब हे संस्थेंतल्यान मुख्याध्यापक म्हूण निवृत्त जाले. उपरांत तशेंच शिक्षणाकडेन जोडिल्ल्या हेरूय जापसालदारकांतल्यान मेकळे जालेनंतर तांणी एक नवो वावर हातांत घेतलो –– आमच्या सांस्कृतीक दायजाचो सेतू उबारपाचो.

सुरवेक तांची नदर गेली ती **धम्मपद** चेर. **धम्मपद** म्हळ्यार बुद्धाचे शिकवणुकीचो आपरोस. लौकिकार्थान ताचो बुद्धधर्माकडेन संबंद आसलो तरी तें आमच्या विचाररूप सांस्कृतीक दायजाचो एक अमोलीक वांटो. धम्मपदाची मूळ भास पाली. संस्कृताक खूब लागीं. सुरेशबाबाक संस्कृत बरी येता. तांणी ह्या काव्यरूप धम्मपदाचो तसोच काव्यरूप अनुष्टुभ छंदांत कोंकणींत अणकार करपाचो वावर हातांत घेतलो. काव्यरूप अणकारावांगडाच ताचो गद्यांतय अर्थ सांगलो. हो अणकार जाता तितलो परिपूर्ण जावंक तांणी तें कितलेच फावटीं निवळायलें. निमाणे मेरेन ते ताचेर हात भोंवडायत आसले. पाली ही बुद्धान आपणाले शिकवणुकीच्या प्रचाराखातीर वापरिल्ली तेन्नाची लोकभास. विसाव्या शेंकड्यांत हे भाशेच्या पुनरुत्थानाचें काम एका गोंयकारानच – आचार्य धर्मानंद कोसंबीन केल्लें. पूण बुद्धाची शिकवण पाली भाशेंतल्यान कोंकणींत हाडपाचो प्रयत्न मात

## मंगलाचरण

१ ओंकार सति नामु करता पुरखु निरभउ निरवैरु
अकाल मूरति अजूनी सैंभं गुर प्रसादि ।।

१ ओंकार सत नाम कर्तो पुरूश निर्भय निर्वैर
अकाल मुर्ती अजल्मी स्वयंभू गुरू प्रसाद

आदि सचु जुगादि सचु
है भी सचु। नानक होसी भी सचु ।।१।।

आदिसत्य युगादि सत्य
आजुय बी सत्य म्हण्टा नानक फुडेंय सत्य

प्रत्येक धर्म उपासनेंत कांय मूलमंत्र आसतात, जे ध्यान–चिंतना खातीर आसतात. भागवत संप्रदायांत द्वादशाक्षरमंत्र[१] आसा, शिव संप्रदायांत पंचाक्षर मंत्र[२] आसा. तसोच शीख धर्मांत हो मूलमंत्र, जाचो द्रश्टो गुरू नानक. मंत्राचो कोण कर्तो, लेखक आसना पूण द्रश्टो आसता. रुशींक दर्शन जाता.

ह्या मंत्रांत आरंभाक एक आंकडो दिला, अक्षर दिवंक ना. परमेश्वराची एकता सगल्या धर्मांची बुनयाद. ओंकार, एक नादमय चिन्ह, नादरूप ध्वनी. ताका लागून चिंतनांत मदत मेळटा. उपनिषदांत आनी गीतेंत ओंकाराचो उपेग केला. गुरू नानकान ताचो उपेग करून आमची भारतीय परंपरा कायम राखल्या. पोरणो विचार तोडून, फोडून आनी मोडून, जेन्ना नवो विचार येता तेन्ना तो फुलना, फळना. जेन्ना पोरण्या विचाराचो आधार घेतकच खंयचोय नवो विचार फुडेंच वता, तातूंत नव्या वस्तुचो सुवाद आनी पोरण्या वस्तुची ताकद, दोनूय

आसतात. ख्रिस्तान म्हळां: "I come not to destroy, but to fulfil." (हांव मोडूंक येवंक ना, पुणून पुर्तताय करपाक आयलां.) गुरू नानकान तशेंच केलां. हातुंतल्यानूच भारतीय धर्मविचाराक घटसाण मेळ्ळ्या.

परमेश्वराचीं नांवां अनंत, पूण हांगा एक नांव नानकान वेंचून काडलां. ÷सत्' (सतिनामु). विज्ञानय सत्याचोच सोद घेता. म्हळ्यार सत्याच्या सोदांत विज्ञान आनी आत्मज्ञान एक जातात. परमेश्वराचें रूप सत्य आसा, परमेश्वर सत्य आसा. म्हणून नानकान म्हळां: एक ओंकार सति नामु.

करता पुरखु: परमेश्वर होच विश्वाचो कर्तो आनी तोच चेतन आसा. तो अचेतन वा जड पदार्थांत चैतन्य ओतपी असो आसा.

निरभउ निरवैरु: हीं दोनूय विशेशणां आमचें लक्ष ओडून घेतात. परमेश्वराक भंय आनी वैर लागना. परमेश्वराचें ध्यान केल्ल्यान आमी निर्भय आनी निर्वैर जातले.

÷सत् श्री अकाल' हो शीखांचो मंत्र. ÷अकालमुरति' म्हळ्यार कालातीत. ईश्वराक निर्मुपी कोण ही शंका सगल्यांच्याच मनांत आसता. गुरू नानक सांगता: ईश्वर स्वयंभू (सैंभ). ताणेंच ताका निर्मिला. ताका कोणेंच जल्म दिवंक ना. तो ÷अजूनी' म्हळ्यार अजल्मी. तो अयोनी. ताका योनीसंभव ना. तो अमर. जल्ममर्णाचे पेल्यान. सगलें विश्व ताणेंच निर्मिलां. म्हणून ताका कोणाचोच भंय ना. तो निर्भय. ताचें कोणाचकडेन वैर ना. म्हूण तो निर्वैर. वैर, भंय हे भाव योनीसंभव जीवमात्राचे ठांय आसतात.

'गुरप्रसादि' – परमेश्वराक, भगवंताक गुरूच्या रुपान पळेला. जायते जाण परमेश्वराक गुरुच्या रुपान, बापायच्या रुपान, आवयच्या रुपान पळेतात.

गुरू नानकान गुरूच्या रुपान परमेश्वराचें वर्णन करून ताचो आमकां प्रसाद मेळूंक जाय, तो आमकां पावंक जाय.

आमी परमेश्वराचें नांव घेवनच सगल्या कामाचे आरंभ करतात, तशें हो मूलमंत्र म्हणून कार्याचो आरंभ करप. हो मूळ मंत्र असो:

÷आमी आमच्या कामाचो, वावराचो आरंभ करतात. त्या भगवंताचे कृपेन, जो ओंकार आसा, सत्य जाचें नांव आसा, जो कर्तो आसा, चैतन्यरूप पुरुष आसा, निर्भय–निर्वैर आसा, कालातीत, अजल्मी, स्वयंभू आसा, आनी जो गुरूच्या रुपानय आसा.'

१ ओंकार सत नाम कर्तो पुरूष निर्भय निर्वैर
अकाल मुर्ती अजल्मी स्वयंभू गुरूप्रसाद ।।

# जपु

आदि सत्य युगादि सत्य
आजुय बी सत्य, फुडेंय सत्य ।।१।।

÷पउडी' जपान (जपु) सुरू जाता. ÷आदिसचु जुगादि सचु' ही ईश्वरी शक्ती आकाराच्या आदीं आनी काळाच्या आदीं आशिल्ली. तो परमेश्वर स्थळ आनी काळ हांचेय आदीं आसलो. परमेश्वरान सृष्टी निर्मिली आनी कालचक्र सुरू जालें. ताचे आदींय ही शक्ती, हें चैतन्य अस्तित्वांत आशिल्लें. ह्या वर्तमान काळांतय हें परमेश्वरी सत्यस्वरूप आसा आनी हाचेफुडेंय भविष्यांत तें आसतलें. शीख धर्माच्या मूळमंत्रांत आनी जपुजी साहिबच्या मंगलचरणांत परमेश्वराच्या स्वरुपाचें वर्णन करतकच, गुरू नानक ÷जपुजीसाहिब' चीं आठ्ठीस (३८) पांवड्याची घट्ट आनी भक्कम निसण आमकां दिता.

## पउडी १ – पांवडो पयलो

सोचै सोचि न होवई जे सोची लख वार ।।
चुपै चुप न होवई जे लाइ रहा लिव तार ।।
भुखिआ भुख न उतरी, जे बंना पुरीआ भार ।।
सहस सिआणपा लख होहि त इक न चलै नालि ।।
किव सचिआरा होईऐ, किव कूडै तुटै पालि ।।
हुकमि रजाई चलणा, नानक लिखिआ नालि ।।१।।

अर्थः सोचै = विचार केल्यार; सोचि = कल्पना; न होवई = कळना; चुपै = मौन; चुप = शांती; लाईरहा = लावप, लावन बसप; लिवतार = एकाग्र चित्तान लायिल्ली समाधी; भूख = वासनेची भूक, हाव, सोंस; न उतरी = सरना, सोंपना; बंना = बांदून घेवप; पुरीआ = सृश्टी; भार = वस्तू; सहस = सहस्त्र, हजार; सिआणपा = हुशारी, शाणेपण; किव = कशे तरेन; खंयच्च्या मार्गान; सचिआरा = प्रभू कृपेक फावो जावप; होईऐ = जायन; हुकमि = आज्ञा; रजाई = परमेश्वर नालि = विश्वाच्या आरंभासावन; कूडै = देखावो; तुटै = मायापाश पयसावतलो; पालि = पड्डो.

विचार करून परमेश्वराचें लाखदां चिंतन केल्यारय तो आमकां कळना. (कित्याक तो बुद्धीपेलो, तर्कापेलो. बुद्धी शुद्ध जाल्यारच तो आमकां मेळत.)

मौनांत वोग्गी बसून ध्यान केल्यारय आमकां मनाची शांती मेळना. (कित्याक मौनांतय मनाचे संकल्प विकल्प चालूच आसतात.)

सोंसान भुकेल्ल्याची भूक सरून सरना. ताणें कितल्योय भोगवस्तु पुंजावं, तरीय ती सरचिना.

## पउडी १

विद्वानाकडेन हजारांनी वा लाखांनी बुद्धीच्यो युक्त्यो आसूं, हुशारी आनी बुदवंतकाय आसूं. मर्णाउपरांत आपले वांगडा एकूय युक्ती तो (देवाच्या दरबारांत) व्हरपाचो ना.

गुरू नानकदेवाचे शिश्य विचारतात: खंयच्या मार्गान गेल्यार, आगा नानका ते प्रभू कृपेक पात्र जातले? आनी ताचे मुखावयलो असत्याचो (मायेचो) पड्डो कसो तुट्टलो?

आगा नानका, जाका परमेश्वराच्या हुकमाक पाळो दिवंक जाय हें समजलें, तोच संवसार बंधनांतल्यान मुक्त जातलो. परमेश्वरी आदेशानच, ताचे इत्सेनच हांगा सगलें घडटा. पूण मनशाक ताचो अहंकार मोहपाशांत बांदून घालता. आपुणूच सगलें करतां हो भाव सोडून जो परमेश्वराच्या हातांतलें आपूण एक आवत अशें समजून चलता, तोच ताचे कृपेक पात्र जाता.

विचार चिंतनानूय कळना तो, जरी केलो लक्षदां विचार।
मौन लावन बसलों वोगी, शांती मेळळी ना लावनय ध्यान ।
वखवखिल्ल्याची भूक सल्लीना, मेळ्ळी जरी सगळी सृश्टी ।
युक्त्यो केल्यो हज्रांलक्षांनी पूण कामाक एकूय नायली ।
जावं गा कसो सत्यरूप हांव? असत्याची वणत मोडूं कशी?।
ताच्याच हुकुमान चल गा नानका, ताणेंच सगलें थारायलां आदीं ।।१।।

## पउडी २ -: पांवडो दुसरो

हुकमी होवनि आकार, हुकमु न कहिआ जाई ।।
हुकमी होवनि जीअ, हुकमि मिलै वडिआई ।।
हुकमी उतमु नीचु, हुकमि लिखि दुख सुख पाईअहि ।।
इकना हुकमी बखसीस, इकि हुकमी सदा भवाईअहि ।।
हुकमै अंदरि सभु को, बाहरि हुकम न कोइ ।।
नानक हुकमै जे बुझै, त हउमै कहै न कोई ।।२ ।।

अर्थ: हुकमी = ईश्वराचे आज्ञेप्रमाण; होवनि = जाता, घडटा; आकार = शरीर, कूड, भायलें स्वरूप; न कहिआ जाई = सांगपाक येना; जीअ = जीव, प्राणी; वडिआई = आदर, व्हडलें पद; उदमु = उत्तमपद; स्रेश्ठ पद; लिखि = बरयल्लेप्रमाण; पाईअहि = मेळयता, इकना = कांय मनशांक; बखसीस = बक्षीस, दान, कृपा; इकि = कांय मनशां; भवाईअहि = भोंवडायता, जल्ममर्णाच्या फेऱ्यांत भोंवडायता; अंदरि = परमेश्वराचे इत्सेप्रमाण; सभुको = सगळ्यांक, सगल्या जिवांक; बाहरि = भायर; बुझै = समजतलें; हउमै = अहंकार.

पयले पउडींत गुरू नानकान प्रत्येकान अहंकाराचो, मीपणाचो त्याग करून परमेश्वराक शरण वचून ताचे आज्ञेप्रमाण आपलें जिवीत सारचें असो उपदेश केलो. दुसरे पउडींत परमेश्वराचे लीलेची विसकावणी नानकदेव करता.

ह्या संवसारांत परमेश्वराचोच हुकूम चलता. सगली साकार सृष्टी परमेश्वरानच निर्मिल्या. ताच्या हुकमाचें वर्णन करपाक जायना. प्रभुची लीला

अपार आसा. सृष्टींतले सगले जीव ताणेंच निर्माण केल्यात. ह्या जीवांमदीं कोण ल्हान, कोण व्हडले, कोण स्रेश्ठ, कोण उत्तम, कोण विद्वान, कोण मूर्ख, कोण बळ आशिल्लो, कोण दुबळो, कोण सुखी, कोण दुःखी आसता. ही परमेश्वराचीच लीला. हें सगलें ताच्या हुकमानच चलता. ताचे आज्ञेभायर कांयच ना. मनशाचेंय कार्य आनी साधना चलल्या ती ताचेच प्रेरणेन. तो सगल्या जिवांक जल्माक घालता आनी जल्म–मर्णाच्या फेऱ्यांत भोंवडायता. नानक सांगता: जाणें परमेश्वराचो हुकूम वळखलो, ताका आमी परमेश्वराच्या हातांतलीं आवतां, बावलीं हें कळटा. हें जोंवेर मनशाक कळना तो अहंकारान हांवें हें केलें, हें वैभव म्हजें अशें म्हणत रावता. जाणें अहंकार सोडलो आनी जो प्रभूक शरण गेलो, ताकाच ईश्वर पावता.

---

जेजू ख्रिस्तानय ईश्वराक शरण वचपाक सांगलां: "Thy will be done." भगवंतान गीतेंत सांगलां: सर्वधर्मान परितज्य मामेकं शरणं व्रज। इस्लाम धर्मांतय ईश्वराक शरण वचपाची शिकवणूक दिल्या.

## पउडी ३

गावै को ताणू होवै किसै ताणू।। गावै को दाति जाणै नीसाणु।।
गावै को गुण वडिआइआ चार।। गावै को विदिआ विखमु वीचारु।।
गावै को, साजि करे, तनु खेह।। गावै को, जीअ लै फिरि देह।।
गावै को जापै दिसै दूरि।। गावै को, वेखै हादरा हदूरि।।
कथना कथी न आवै तोटि।। कथि कथि कथी, कोटि कोटि कोटि।।
देदा दे, लैदे थकि पाहि।। जुगा जुगंतरि खाही खाहि।।
हुकमी हुकमु चलाए राहु।। नानक विगसै बेपरवाहु।।३।।

अर्थ: गावै = गायता; को = कांय जाण, कोण (मनीस), व्यक्ती; ताणु = परमेश्वरी शक्ती; होवै = आसत; किसै = ज्या कोणा मनशांत; दाति = दिल्लें दान; जाणै = जाका खबर आसा, जाणटा; निसाणु = प्रतीक, खूण, निशाणी; वडिआईआ = मोठेंपण, व्हडपण; चार = सुंदर; विदिआ = विद्या; विखमु = कठीण, अवघड, दुर्बोध, गहन; वीचारू = विचार, ज्ञान; साजि करे = उत्पन्न करता, निर्मिता; तनु = कूड, शरीर; खेह = गोबोर, राख करता; जीअ = जीव; लै = घेता; फिरि = परत; कयना = सांगप, व्याख्या करप; कथी न आवै तो हि = सांगुनय पूर्ण वर्णन जायना; देदा = दिवपी; दे = देणे; लैदे = घेवपी; थकि पाहि = थकता, पुरो जाता; जुगाजुगंतरी = युगांयुगांत, सदांच; खाहीखाहि = उपभोग घेता; हुकमी = परमेश्वर; हुकमीहुकमु = परमेश्वराची आज्ञा, परमेश्वराची इच्छा; परमेश्वराची लीला; राहु = मार्ग; जगरहाटी, संवसाराचें राट; विगसै = प्रफुल्ल, प्रसन्न, ताजो टवटवीत; बेपरवाहु = चिंतामुक्त.

वेगळे वेगळे लोक आपआपल्या अणभवा प्रमाण परमेश्वराचें वर्णन तरांतरांनी करतात. जाणें ईश्वरी सामर्थ्य पळेलां तो ताचे शक्तीचें वर्णन करता.

कोण ताचे उदारतायेचो म्हयमा गायत, जाका जाका जें जें मेळ्ळां तो तो ताका मेळिल्ल्या गुणांप्रमाण ताची तुस्त करता. त्या मनशाक परमेश्वराकडल्यान मेळिल्ली देणगी ही ताचेर जाल्ली ईश्वरी कृपेचीच निशाणी (खूण) अशें ताका दिसता.

कोण प्रभुचे गूण गायता. कोण ताचो म्हयमा वर्णिता; कोण विद्वान मनीस आपले विद्वत्तेच्या आनी बुद्धीच्या नेटार, ताचें वर्णन करता. कोण अशें सांगतात की परमेश्वर जीवाक जल्माक घालता आनी ताचो शेवट (गोबोर) तोच करता. कोण म्हणटा मर्णा उपरान्त परमेश्वर पयल्या शरीरांतलो आत्मा दुसऱ्या शरीरांत घालता. कोण म्हणटा परमेश्वर खूब पयस आसा. ताका प्राप्त करप भारी कठीण. तर कोण म्हणटा परमेश्वर सर्वत्र आसा. जळीं, स्थळीं, काश्ठीं, पाशाणीं तो भरला. तो सर्वज्ञ. तो सगलें जाणा. तो सर्व साक्षी. तो सगळें पळेता.

अशे तरेन कोटी कोटी जीव आपले परीन त्या परमेश्वराचें वर्णन करतात. त्या वर्णनांक पार ना, अंत ना. कोणेंय कितलेंय वर्णन केलें तरी तें अपुरें. कित्याक, परमेश्वराचें सैरकें ज्ञान कोणाकच जावंक ना.

एक मात खरें. तो परमेश्वर हे सगले सृष्टीचे वेव्हार ताचे इत्सेप्रमाण चलयता. ताणेंच हे जीव निर्मिल्यात. ताणें तांच्या निर्वाहाचीं सगलीं साधनां तयार दवरल्यांत. तो आमकां भरभरून दिता. म्हणून ताका कांयच उणें पडना. ताणें निर्मिल्लें हें संवसार चक्र इतले शिस्तीन चल्लां की तो प्रभू ताचेबद्दल निश्चींत आनी प्रसन्न चित्त आसा.

## पउडी ४ - पांवडो चवथो

साचा साहिबु, साचु नाइ, भाखिआ भाउ अपारु।।
आखहि मंगहि देहि देहि, दाति करे दातारु।।
फेरि कि अगै रखीए, जितु दिसै दरबारु।।
मुहौ कि बोलणु बोलीऐ, जितु सुणि धरे पिआरु।।
अंम्रित वेला सचु नाऊ, वडिआई विचारु।।
करमी आवै कपडा, नदरी मोखु दुआरु।।
नानक एवै जाणीऐ, सभु आपे सचिआरु।।४।।

अर्थ: साचा = सत्य, सदांच अस्तित्वांत आशिल्लो; साहिबु = परमेश्वर; नाई = न्याय; भाखिआ = भाषा; भाऊ = भाव, प्रेम, मोग; अपारु = अपार; आखहि = सांगता; मंगहि = मागता; देहि देहि = दित रावता; दाति = दान दिता; दातारु = देवपी, दातो, परमेश्वर; फेरि = मागीर; कि = खंयची; अगै = मुखार, सामकार; रखिऐ = दवरूं; जितु = जाका लागून; दिसे = दिसतलें; मुहौ = तोंडान; कि बोलणु = कितें उलोवचें; जितु = ज्या योगान; अंम्रित वेला = ब्राह्म म्हुर्तार; नाऊ = नांव; परमेश्वराचें नांव; वडिआई = बढाय; व्हडपण; वडिआई विचारु = परमेश्वराच्या व्हडपणाचे गूण गावप; करमी = प्रभू कृपा; कपडा = कापड, लुगट, प्रभूकृपेची सासाय; नदरी = प्रभूची कृपानदर; मोखु = मोक्ष; दुआरू = दार, प्रवेशमार्ग, मार्ग; एवै = अशे तरेन; जाणीऐ = जाणप, प्रचिती येवप; सभु = सर्वत्र; सचिआरू = परमेश्वर.

गुरू नानक फुडें सांगताः (ह्या संवसारांत आमकां जें जें दिसता, भासता, तें सगळें असत्य.) परमेश्वर (साहिबु) सत्य. परमेश्वराकडेन पावचेली भाशा

म्हळ्यार अपार प्रेम. ही सगली सृश्टी ताचीच निर्मिती. ताणें तिचेखातीर कांय वेवस्था केल्या. ती न्यायाचेर आधारल्या. तीय सत्य. तो सगल्यांचो मोग करता. ताच्या मोगांत भेदभाव ना. तो सगल्यांक सारको. ताची दुसरी भास ना. सगले जीव ताचें गूण वर्णन करतात आनी ताचे कडेन हें दी, तें दी अशें मागीत आसतात. आनी तोय दिवपी, आमचो प्रेमळ बापूय, आपल्या भुरग्याचे हट्ट पुरयता. हांव जेन्ना ताच्या दरबारांत वतलों, मागीर ताचे मुखार हांव खंयची भेट दवरूं? कित्याक ताणें म्हाका सगळेंच दिलां. तेंच ताका कशें दिवं? तोंडांतल्यान हांव ताचे कडेन खंयच्या शब्दांनी उलोवं; खंयची वाणी हांव वापरूं जी आयकून तो म्हजो मोग करतलो, म्हजेर कृपेची नदर घालतलो?

गुरूदेव नानक सांगतात: परमेश्वराकडेन सख्य साधपाचो सोंपो मार्ग म्हळ्यार ताचेच भाशेंत ताचे कडेन संवाद सादप. ताची भास प्रेमाची भास. आमीय सगल्यांकडेन मोगान चलचें, तांकां मदत दिवची, तांची सेवा करची. हाका लागून देव आमकां पावतलो. ताचे कृपेक आमी फावो जातले.

गुरुदेव नानक फुडें सांगतात: ब्राह्म म्हुर्ताचेर उठचें. ती अमृतवेळ. तेन्ना सगळेकडेन थंड किरांव शांतताय आसता. अश्या वेळार चित्त एकाग्र करून, आपल्यो सगल्यो वृत्ती प्रभूचरणीं अर्पण करून प्रसन्न मनान परमेश्वराचे म्हयमेचे गूण गावंचे. अशें केल्यार तुमकां ताची कृपा फावो जातली. तुमकां तो मोक्षाचें दार उगडटलो.

## पउडी ५ – पांवडो पांचवो

थापिआ न जाइ, कीता न होइ ।। आपे आपि निरंजनु सोइ ।।
जिनि सेविआ, तिनि पाइआ मानु ।। नानक, गावीए गुणी निधानु ।।
गावीऐ सुणीऐ, मनि रखिऐ भाउ ।। दुखु परहरि, सुखु धरि लै जाइ ।।
गुरमुखि नादं, गुरमुखि वेदं गुरमुखि रहिआ समाई ।। गुरू ईसरु,
गुरु गोरखु बरमा, गुरु पारबती माई ।। जे हउ जाणा, आखा नाही,
कहणा कथनु न जाई ।। गुरा, इक देहि बुझाई ।।
सभना जीआ का इकु दाता, सो मै विसरि न जाई ।।५।।

अर्थ: थापिआ = स्थापन करप; कीता = निर्माण करप, घडोवप, तयार करप; आपेआपि = आपोआप; निरंजनु = निश्कलंक, कलंका विरयत, विकारा विरयत; जिनि = जाणें; तिनी = ताणें; सेविया = सेवा, भक्ती केली; पाइआ = मेळयलो; मानु = मान, सन्मान; गाविऐ = गायतात; गुणी निधानु = गुण निधान, गुणांची कोठी वा भांडार; सुणीऐ = आयकतात; भाऊ = भाव; रखिऐ = दवरचें; दुखुपरहरि = दुःख निवारण; घरि = काळजांत, हृदयांत; लैजाई = मेळयतात, प्राप्त करतात; गुरुमुखि = संजतनांच्या (सज्जनांच्या) मुखांत; नांद = नाद, आवाज, ध्वनी; वेदं = वेद, ज्ञान; रहिआसमाई = व्यापून रावतात; ईसरू = शिव; बरमा = ब्रह्मा, बिरमो; गोरखु = गायांक राखपी (विष्णु); पारबती माई = माता पार्वती; हऊ = हांव; जाणा = जाणप, समजप, अनुभुती घेवप; आखानई = वर्णन करपाक येना; कहणा कथनु न जाई = शब्दांत सांगपाक येना; गुरा = गुरू; एक बुझाई = ज्ञान दिलें; विसरि न जाई = विसरूं नाका.

भक्तांच्या मनांत एक प्रस्न सदांच उप्रासता. ज्या परमेश्वरान सगली सृष्टी, सगलें ब्रह्मांड आनी ताचे वयली जीवसृष्ट आनी मानव निर्माण केल्ले, त्या परमेश्वराक कोणें निर्मिला?

गुरू नानकदेव सांगतात: परमेश्वर स्वयंभू. ताका कोणेंच निर्माण करूंक ना. ह्यो ज्यो सगल्यो वस्तू आमकां दिसतात त्यो ताचे मायेचीं रुपां. ईश्वर मायेपासून मुक्त. तो निश्कलंक. तो निरंजन. तो अनादि अनंत. ताणेंच ही सृष्टी निर्माण केली. जाणें हें जाणलें आनी त्या चिन्मयरुपाचें ध्यान केलें, स्मरण केलें, ताकाच परमेश्वर मेळटा. म्हणून त्या गुणनिधानाचें सदांच स्मरण कर. ताची सेवा कर. ताचें भजन कर. ताच्या कीर्तन श्रवणांत गुल्ल जा. तोच तुज्या दु:खाचें निवारण करतलो. आनी आमी सुखसमृद्धीच्या घरांत पावतले, जंय फकत आनंदच आसा. अश्या घरांत तोच आमकां घेवन वतलो. आमकां फकत ताचे गूण गावचे पडटले.

गुरूमुखांतल्यानच तुका ध्यान कशें करचें तें कळटलें आनी गुरूमुखांतल्यानच तुका ज्ञान मेळटलें. गुरूच तुका ध्यान समाधींत व्हरतलो आनी थंय तुका परमेश्वररुपी ध्वनी–नाद आयकूंक येतलो. हो नामध्वनी, हें ज्ञान गुरूकडल्यानच मेळिल्यान, गुरू होच शंकर (ईसरू), गुरू होच गायो राखपी विष्णू, आनी तोच ब्रह्मदेव. पार्वतीमाई ही शक्तीमाता. तीवूय गुरूच. हे पऊडींत गुरू म्हयमा गायला.

परमेश्वराची स्थिती अशी आसा की हांव ताका जाणूंक शकलोंना जाल्यार म्हाका ताचें वर्णन करूंक येवचें ना. ताचें वर्णन शब्दांत करप शक्य ना. ताची अनुभुती घेवंची पडटली. सद्गुरूच आमकां परमेश्वरासरीं पावपाची वाट दाखयतलो. ताचेच कृपेन त्या परमेश्वराक आमी जाणूंक शकतले. परमेश्वरा, सगल्या जगाचो तो पालनकर्तो. तुजें विस्मरण म्हाका केन्नाच जावंक दिवंक नाका.

## पउडी ६ – पांवडो सवो

तीरथि नावा जे तिसु भावा, विणु भाणे कि नाइ करी ।।
जेती सिरठि उपाई वेखा, विणु करमा कि मिलै लई ।।
मति विचि रतन जवाहर माणिक, जे इक गुर की सिख सुणी ।।
गुरा, इक देहि बुझाई ।। सभना जीआ का इकु दाता,
सो मैं विसरि न जाई ।।६।।

अर्थ: तीरथी = तीर्थस्थान; नावा = न्हावप, स्नान करप; तिसु = ईश्वराक; भाबा = आवडलें; विणु = विना, शिवाय; भाणे = आवडप; कि नाई करी = न्हावन कितें लाभ जातलों; जेती = जितली; सिरठि = सृष्टी; उपाई = उत्पन्न केली; वेखा = पळेता; विणु करमा = परमेश्वरी कृपे विणें; कि मिलै = कितें मेळटलें?; किलई = कितें घेवंक जातलें?; मति विचि = बुद्धींतल्यान; सभना = सगळ्या; जीआ = जीव.

गुरू नानकदेवान दाखयल्ले हे वाटे उपरांत शिश्यांक दिसता की, लोक सांगतात तीर्थक्षेत्रांत वचून न्हाण घेतकच केल्ल्या सगळ्या पातकांचो नाश जावन मनशाक ईश्वरी कृपेचो लाव जाता. हे शंकेचें निराकरण करतना गुरूदेवजी सांगतात: अशें आसल्यार तीर्थक्षेत्रांत रावपी आनी सद्दां तीर्थस्नान करपी सगळ्यांकच ईश्वरी कृपेचो लाभ जावपाचो. पूण तशें जाल्लें दिसना. मागीर परमेश्वर कृपेची खात्री नासत जाल्यार तीर्थक्षेत्रांत न्हाणाचो वोगीच खटाटोप कित्याक करचो? हे सृष्टींतल्यान प्रत्येक जीवाक, परमेश्वरी इच्छेशिवाय कांयच मेळना. किंवा परमेश्वरी इच्छेशिवाय ताचेकडल्यान

घेवंक येवंचेंना. म्हणून मनशान तीर्थस्नानाक वचपाची तकालस घेनासतना, परमेश्वराचें नामस्मरण करीत आपणाक ताचे स्वाधीन केल्यार बरें.

मनशाक वज्रां, माणकां, भांगर हांची हाव आसता. पुणून ही सगली माया. तांच्या मोहांत पडनासतना सद्गुरूचरणीं माथें दवरिल्लें बरें. हातूंतच ताचें हीत. गुरूमुखांतल्यान भायर सरपी प्रत्येक शब्द, गुरून केल्लो उपदेश हीच खरी संपत्ती. गुरूकृपेन जे अध्यात्मीक गूणसंपदेचो लाभ जाता, तींच खरीं वज्रां माणकां. आगा सद्गुरू, म्हाका अशी बुद्धी दी जिका लागून हांव त्या सगल्यो इत्सा पूर्ण करपी परमेश्वराक केन्नाच विसरचोंना. म्हजें मन सदांच ताच्या चरणीं लीन जावं.

## पउडी ७ – पांवडो सातवो

जे जुग चारे आरजा, होर दसूणी होइ ।।
नवा खंडा विचि जाणीऐ, नालि चलै सभु कोइ ।।
चंगा नाउ रखाइ कै जसु कीरति जगि लेइ ।।
जे तिसु नदरि न आवाई त वात न पुछै के ।।
कीटा अंनरि कीटु, करि दोसी, दोसु धरे ।।
नानक निरगुणि गुणु करे गुणवंतिआ गुणु दे ।।
तेहा कोई न सुझई, जि तिसु गुणु कोइ करे ।।७।।

अर्थ: जुग चारे = चार युगां इतली; आरजा = आयुश्य, जिवीत; दसुणी = दसपट; नवाखंडविचि = नवखंड पृथ्वींत; जाणिऐ = प्रसिद्ध जावप, नांव मेळोवप; सभुकोई = सगळेजाण, जण एक्लो मनीस; नालि चले = ताचें अनुसरण करप; चंगा = बरें; नाऊ = नांव, किर्ती; जगि = संवसारांत, जगांत; लई = मेळयली; तिसु = परमेश्वराची; नदरि = कृपादिश्टी; न आवई = येना, उपेगी पडना; वात = वार्ता, बातमी; न पुछैके = कोण मनीस विचारिना; कीटा = किडे; अंदिर = पयकीं; कीटु = क्षुद्र कीटक, कीड; करि = करून; देसु धरे = देश लागता; निरगुणि = निर्गुण; गुणवंतिआ = गुणवंत मनीस; दे = दिता; करे = उत्पन्न करता; तेहा = ताचे भाशेन; न सुझई = मेळना.

मनशाक धनाचो मोह आसता. सवे पउडींत गुरू नानकान खऱ्या धनाची – गुरूकृपेची – महती सांगल्या. धना भाशेनच मनशाक मोठेपणाची, किर्तीची हाव आसता. मनीस हातूंत घुसपता आनी प्रभूकृपेक पयसावता. हे सातवे पउडींत गुरू नानकदेव लोकेषणेबद्दल शिश्याक सावध करतात. ते म्हणटात:

जर खंयच्याय मनशाक चार युगां इतलेंच न्हय तर ताचे दसपट आयुश्य मेळ्ळें, ताणें आपल्या दीर्घ आयुश्यांत सगळ्या संवसाराचेर हुकमत गाजयली, जगांत यशस्वी मनीस म्हणून कीर्त जोडली, तरी अंतीं तो प्रभूचरणीं लीन जालोना आनी आपलेच कीर्तींत, यशांत घुसपलो, तर तो कवडेमोल समजुंचो. हें सगलें यश, कीर्ती, दीर्घ आयुश्य, सगळें तांकां मेळ्ळां तें ईश्वरीकृपेनच, हाची जाणविकाय ताका नासल्यार तो क्षुद्र किडीपरसय हीण. परमेश्वर ताच्या अहंकाराक केन्नाच क्षमा करचो ना.

गुरू नानकदेव फुडें सांगतात: गुरूकृपेक लागुनूच गुणहीन मनीस गुणवंत जाता. परमेश्वरी कृपेनच मोन्याक वाचा फुट्टा, थोंटो मनीस पर्वत हुपूं शक्ता. हें सगळें करपाची शक्ती परमेश्वराचीच आसा. आनीक हेर कोणाकूच हें करपाक जावंचें ना. म्हणून, आगा शिश्या, त्या परमपित्याक शरण वच आनी ताचे इच्छेप्रमाण आपलें जिवीत चलोवन जिविताचें सार्थक कर.

## पउडी ८ – पांवडो आठवो

सुणिऐ, सिध पीर सुरि नाथ ।। सुणिऐ, धरति धवल आकाश ।।
सुणिऐ, दीप लोअ पाताल ।। सुणिऐ, पोहि न सकै कालु ।।
नानक, भगता सदा विगासु ।। सुणिऐ, दूख पाप का नासु ।।८।।

अर्थ: सुणिऐ = आयकल्ल्यान; सिध = सिद्ध; सुरि = सुर, देव; धवल = बैल; दीप = द्वीप, सात द्वीप; लोअ = लोक, सप्तलोक; पो ही न सकै = पावंक जावंचें ना; विगासु = प्रसन्नताय.

पयले पउडींत ÷एक ओंकार सतनामा'ची महती सांगल्या. परत सत्य युगादि, सत्य अनादि आसा हें सांगलां. मागीर आमकां फुडें एक प्रस्न मांडला: आमी सत्यनिश्ट कशे जातले आनी मिथ्याचो पड्डो कसो तुट्टलो? हाची जाप दिवन गुरू नानकदेवान अशें सांगलां: मनशान आपलो अहंकार सोडून, आपूण परमेश्वराच्या हातांतलें आवत समजून ताचे आज्ञेप्रमाण चलचें. दुसरे पउडींत सांगलां कि आमी गरजेशिवाय आसक्ती आनी अहंकार हातूंत घुसपतात. पूण खरेपणान पळेल्यार अशें दिसून येता कि संवसारांत जें घडटा तें परमेश्वराचेच आज्ञेन घडटा. देखून मनशान अहंकार सोडचो. तिसरे पउडींत परमेश्वराचे अनंत शक्तीचें गूणवर्णन केल्लां आनी ताचो म्हयमा वर्णिला. शेकीं सांगलां की संवसारांतले सगळे वेव्हार परमेश्वराचेच इच्छेन चलतात. सगळ्या जिवांचो चरितार्थ तोच चलयता. आनी ताणें निर्मिल्लें हें संवसार चक्र इतले शिस्तीन चलता की परमेश्वर ते विशीं निश्चिंत आनी प्रसन्न चित्त आसा. ताका कसलीच पर्वा ना. तो बेपर्वा जावन हांसत हो संवसार पळेता.

चवथे पउडींत नामाचें म्हत्व आमकां सांगलां. नामस्मरण हो ÷जपुजी'चो मुखेल विशय. परमेश्वर (साहिब) सत्य आसा आनी ताचें नाम सत्य आसा. ब्रह्मम्हुर्तार ताच्या नामाचें गायन कीर्तन करचें. पांचवी पउडी साररूप पउडी आसा, जातूंत परमेश्वर स्वयंभू आसपा संबंधीं विचार सांगला. ताचें आमी गायन करचें, ध्यान करचें, आनी ताचो मोग करचो, भक्ती करची. मागीर गुरूम्हयमा सांगला आनी तोच आमकां परमेश्वरासरीं वचपाचो मार्ग दाखयता. ताचें विस्मरण जावंचें न्हय अशी प्रार्थना केल्या. सवे पउडींत गुरूक शरण वचप हेंच खरें कित्याक ताकाच लागून आमकां चित्तशुद्धीचें खरें धन मेळटलें आनी आमची बुद्धी परमेश्वराक केन्नाच विसरची ना. सातवे पउडींत सांगलां की नांव, धन, यश, आयुश्य हें जरी मनशान जोडलें तरी अंतीं मनीस परमेश्वर चरणीं लीन जालो ना जाल्यर, तो कवडे मोल. ताच्या अहंकाराक परमेश्वर क्षमा करचो ना. म्हणून मनशान परमेश्वराक शरण वचपाक जाय.

आतां हे फुडल्या चार पउडींत गुरू नानकदेव नामश्रवणाची महती आमकां सांगता. ईश्वर भक्तीचे जे नवविध मार्ग आसात, तातुंतली ÷श्रवणभक्ती' हो एक मार्ग.

नामश्रवणान कितें जाता ? गुरूदेव नानकजी सांगतात: नामश्रवणान आयकल्याचें मन, चित्त एकाग्र जाता. तो प्रभूनामांत तल्लीन जाता, एकरूप जाता. अंतीं तो सिद्धपुरूष, परमभक्त, इतलेंच न्हय तर देवपदाक पावन, ह्या सगल्या ब्रह्मांडाचो आधार आशिल्ल्या परमेश्वराचें ज्ञान ताका जाता. सप्तद्वीप, सप्तलोक, पाताळ ह्या सगल्यांत तो परमेश्वर रावता हाचें ज्ञान ताका जाता. ताचे कडेन कळीकाळय वचपाची हिंमत करिना. मर्णाचें भंय ना

जाता. तो सगळ्या दु:खांपसून मुक्त जाता. नामश्रवणांत तल्लीन जावन ईश्वरांत एकरूप जाल्ल्या भक्तांच्या मुखाचेर एक दिव्य प्रभा दिसूंक लागता. तो सदांच शांत, प्रसन्नचित्त आसता.

## पउडी ९ – पांवडो णववो

सुणिऐ, ईसरु बरमा इंदु ।। सुणिऐ, मुखि सलाहण मंदु ।।
सुणिए, जोग जुगति तनि भेद ।। सुणिऐ, सासत सिम्रिति वेद ।।
नानक, भगता सदा विगासु ।। सुणिऐ, दूख पाप का नासु ।।९।।

अर्थ: सुणिऐ = नामश्रवणान; इसरु = शिव; बरमा = ब्रह्मदेव; इंदु = इंद्रदेव; मुखि मुखान; सलाहण = गुण गावप: मंदु = मूर्ख, मतीमंद (भक्त); जोग = योग; जुगति = युक्ती; तनि = शरिरांत (स्थूल, सुक्षीम आनी सुक्षीमतर शरिरांतले मनोवेपार); सासत = शास्त्र; सिम्रिति = स्मृती; नासू = नाश करता, नाश जाता.

नामश्रवणान (भगवंताकडेन एकरूप जाल्ल्यान) भक्त शिव, ब्रह्मा, इंद्र हांचीं पदांय मेळोवपाक शकता. योगी लोक खर योगसाधनेन शरिरांतल्या (स्थूल, सुक्षीम, सुक्षीमतर) मनोवेपारांचें जें ज्ञान मेळयतात, तें ज्ञान मंद बुद्‌धीचो भक्त फकत नामश्रवणान मेळयता.

ज्ञानमार्गी लोक आपले बुद्‌धीच्या आधारान चारय वेद, स्मृती, सगलीं शास्त्रां आदींचें ज्ञान जोडटा. पुणून खऱ्या भक्ताक फकत नामश्रवणान हें सादता. नामस्मरणान भक्ताचें दुख सरता आनी तो पापांतसून मुक्त जाता.

## पउडी १० – पांवडो धावो

सुणिऐ, सतु संतोखु गिआनु ।। सुणिऐ, अठसठि का इसनानु ।।
सुणिऐ, पडि पडि पावहि मानु ।। सुणिऐ, लागे सहजि धिआनु ।।
नानक, भगता सदा विगासु ।। सुणिऐ, दूख पाप का नासु ।।१०।।

अर्थ: सतु = सत्य; संतोखु = संतोश; अठसठि = आठसश्ट; पढिपढि = पठण करून, पर्ते पर्ते वाचून; पावहि = मेळयता, प्राप्त करता; सहजि = सहज, आपशींच; धिआनु = ध्यान.

नामश्रवणान सत्य(प्रकाश), संतोश आनी ज्ञान मेळटा. नामस्मरणान सगळ्या आडसश्ठ तीर्थांत स्नान केल्ल्याचें पुण्य लाभता. नामस्मरणान आनी नाम पठणान मनशाक भोवमान मेळटा. योग्यांक ध्यान खर अभ्यासान सादता, पुणून भक्ताक ध्यान आपशींच सादता. आगा नानका, संतसज्जन सदांच आनंदी आनी प्रसन्न आसतात कारण नामस्मरणान तांच्या दु:खांचो आनी पातकांचो नाश जाता.

## पउडी ११ – पांवडो इकरावो

सुणिऐ, सरा गुणा के गाह ।। सुणिऐ, सेख पीर पातिसाह ।।
सुणिए, अंधे पावहि राहु ।। सुणिऐ, हाथ होवै असगाहु ।।
नानक, भगता सदा विगासु ।। सुणिए, दूख पाप का नासु ।।११।।

अर्थः सरा = सरोवर; गाह = ज्ञान; पावही = सांपडट्या; हाथ = सखोल ज्ञान; असगाह् = कठीणांतलें कठीण.

नामस्मरणान गुणसरोवराचो थाव मेळटा. नामस्मरणान आध्यात्मीक क्षेत्रांतलो अधिकारी, गुरू आनी बादशाह जाता. नामस्मरणान अहकारान कुड्डो (जाल्ल्या) मनशाक वाट सांपडटा. नामस्मरणान हुपूंक येनाशिल्लो (भव)सागर सहज हुपूक येता. आगा नानका, संतसज्जन सदांच आनंदी आनी प्रसन्न आसतात. नामस्मरणान दुःखाचो आनी पातकांचो नाश जाता.

अशे तरेन ८ ते ११ ह्या पउडींत गुरू नानकदेवान नामस्मरणाचें म्हत्व सांगलां.

## पउडी १२ – पांवडो बारावो

मंने की गति कही न जाइ ।। जे को कहै पिछै पछुताइ ।।
कागदि, कलम न लिखणहारु ।। मंने का, बहि करनि वीचारु ।।
ऐसा नामु निरंजनु होइ।। जे को मंनि जाणै मनि कोइ ।।१२।।

अर्थ: मंने = मनन करतल्याची (श्रद्धावंताची); गती = गती, चलणूक, वागणूक; कहिन जाई = वर्णन करून सांगूक येना; पिछै = मागीर; पछुताई = पश्चाताप जातलो; ऐसा = असो; मंनि = एकाग्रचित्त; श्रद्धावंत; मनि = मनांत.

अश्या श्रद्धावंत मनशाची गती (जो नामस्मरण करून परमपदाक पाविल्लो आसता, आनी उजू वाटेन वता) वर्णन करप खूब कठीण. जो कोण वर्णितलो तो मागीर पच्छाताप करतलो. (असो मनीस दिसूंक, उलोवंक आनी वागपाक जरी सामान्य मनशावरीच आसलो, तो हेरांपरस वेगळो आसता. जो कोण ताका वर्णुपाचो यत्न करता, तें वर्णन अपुरें आसलें.)

कोणूय असो बरोवपी कागद आनी लेखण्यो घेवन ताचें वर्णन बरोवपाक बसलो जाल्यार, ताचें वर्णन सम जावंचें ना.

भगवंताचें नाम ÷निरंजन' आसा आनी तें जाणपी विरळाच मेळटलो, जाका ताचें मनन आनी चिंतन करचेली कला सांपडल्या. (परमेश्वराचें रूप अवर्णनीय. तो स्रेश्ठ आनी गहन. तो निश्कलंक आनी प्रकाशमान. जो मनीस ताचेशीं एकरूप जाला, त्या परमभक्ताची आध्यात्मीक अवस्था उंचेल्या पांवड्याची आसता. ती सामान्य मनशाक कळप कठीण. आमी ते स्थितीक पावल्यारच तें आमकां जमतलें. हरशीं तें शक्य ना.

## पउडी १३ – पांवडो तेरावो

मंनै, सुरति होवै मनि बुधि ।। मंनै, सगल भवण की सुधि ।।
मंनै, मुहि चोटा न खाइ ।। मंनै, जम कै साथि न जाइ ।।
ऐसा नामु निरंजनु होइ ।। जे को मंनि जाणै मनि कोइ ।।१३।।

अर्थः मंनै = प्रभू नामाकडेन एकरूप जातकच; सुरति होवै = तन्मयतायेची अवस्था प्राप्त जाता; मनिबुधि = मनांत बोध प्राप्त जाता, जाग्रताय जाता; भवण = भुवन; सुधि = ज्ञान; चोटा = फसवणूक, धोको; जम = यम; जमकेसाथि = यमा वांगडा.

जो प्रभू नामाकडेन एकरूप जाता, ताका तन्मयतायेची अवस्था मेळटा. ताच्या मनांत जाग्रुताय आनी बोध प्राप्त जाता. ताका सगळ्या भुवनांचें (लोकांचें) ज्ञान प्राप्त जाता. (ताका सगल्या विश्वाची खबर मेळटा. विश्वाचें राज्य ताचे खातीर मेकळें जाता.) ताका तोंडार कोणाचीं थापटां खावंचीं पडनात. ईश्वराचें मनन करतल्याची केन्नाच अधोगती जायना. (ताका परमेश्वराचो म्हयमा कळटा आनी तो सर्वव्यापी हाचो साक्षात्कार ताका जाता.) मागीर यमाच्या दुतां वांगडा ताका वचचें पडना. (ताका मृत्यू आफडिना) भगवंताचें अशें निरंजन नाम आसा, जो ताचें सदाच स्मरण करता, तोच ताका (त्या अकाल पुरुषाक) जाणटा.

## पउडी १४ – पांवडो चवदावो

मंनै, मारगि ठाक न पाइ ।। मंनै, पति सिउ परगटु जाइ ।।
मंनै, मगु न चलै पंथु ।। मंनै, धरम सेती सनबंधु ।।
ऐसा नामु निरंजनु होइ ।। जे को मंनि जाणै मनि कोइ ।।१४।।

अर्थ: मारगि = मार्गांत; ठाक = विघ्न, आडखळ; ठाक न पाई = आडखळी उप्रासनात; पति सिउ = भोवमान मेळटा; परगटू = नामना जोडटात; मगु = मार्ग; पंथु = वाट, रस्तो, मार्ग; सेती = सयत; सनबंधु = परिवार, आप्तइश्ट, संबंधित.

ईश्वराचें मनन करतकच मार्गांत आडकळी उप्रासनात. मनन करपी भोवमानान संवसारांत परगट जाता. नामस्मरण करपी धर्मांतल्या कर्मकांडाचे वाटेन वचना आनी संवसारात उजू वाट धरता. नामस्मरण करपी धर्मान चलता आनी आपल्या उद्धाराबरोबरच आपल्या आप्तइश्ट, शेजाऱ्यापाजाऱ्यांकय बरी वाट दाखयता. भगवंताचें नांव निरंजन आसा. जो तें नाम घेता, ताकाच ताची गोडी कळटा.

## पउडी १५ - पांवडो पंधरावो

मंनै, पावहि मोखु दुआरु ।। मंनै, परवारै साधारु ।।
मंनै, तरै तारे गुरू सिख ।। मंनै, नानक भवहि न भिख ।।
ऐसा नामु निरंजनु होइ ।। जो को मंनि जाणै मनि कोइ ।।१५।।

अर्थ: पावहि = मेळयता, सोडून काड्टा; मोख = मोक्ष, मुक्ती; दुआरू = दार; परवारै = परिवाराचो; साधारू = आधारासयत; तरे = तरून वता; तारे = तारून व्हरता; सिख = शिश्य; भवहि न भिख = भीक मागीत भोंवचें पड्टा.

प्रभू नामाकडेन एकरूप जातकच मोक्षाचें दार उगडटा. हाका लागून ताच्या परिवारांतल्या सगळ्यांचो, आध्यात्मीक उन्नतीचो तो आधार जाता. तो स्वत: भवसागर तरून वताच, पुणून गुरू जावन आपल्या शिश्यांकय भवसागर तरून वचपाक आधार दिता. (अश्या भक्ताचो परमेश्वरच तारणहार जाता.) ताका कोणाच फुडें भीक मागची पडना.

प्रभूचें नांव निरंजन-निश्कलंक आसा. जो अश्या निश्कलंक नामाचें स्मरण करता, ताच्या चित्तांत आनंद-प्रकाश भरता.

## पउडी १६ – पांवडो सोळावो

पंच परवाण, पंच परधानु ।। पंचे, पावहि दरगहि मानु ।।
पंचे, सोहहि दरि राजानु ।। पंचा का गुरु एकु धिआनु ।।
जे को कहै, करै वीचारु ।। करते कै करणै, नाही सुमारु ।।
धौलु धरमु, दइआ का पूतु ।। संतोखु थापि रखिआ जिनि सूति ।।
जे को बुझै होवै सचिआरु ।। धवलैउ परि केता भारु ।।
धरती होरु, परै होरु होरु ।। तिस ते भारु, तलै कवणु जोरु ।।
जीअ जाति, रंगा के नाव ।। सभना लिखिआ वुडी कलाम ।।
एहु लेखा लिखि जाणै कोइ ।। लेखा लिखिआ केता होइ ।।
केता ताणु, सुआलिहु रूपु ।। केती दाति, जाणै कौणु कूतु ।।
कीता पसाउ, एको कवाउ ।। तिस ते होए लख दरीआउ ।।
कुदरति कवण, कहा वीचारु ।। वारिआ न जावा एक वार ।।
जो तुधु भावै साई भली कार ।। तू सदा सलामति निरंकार ।।१६ ।।

अर्थः पंच = पांच (स्रेशठ पुरूश, संत पुरूश, पांच पुढारी) ; परवाण = मान्य करप, स्विकार करप, कबूल करप ; परधानु = प्रधान ; दरगहि = दरबारांत, दारांत ; धिआनु = ध्यान, चित्ताची एकाग्रता ; कहै = सांगलें, कथन केलें; विचारू = विचार केलो (परमेश्वरी लीलेचो विचार) ; सुमारू = हिशेब, जमाखर्च; धौलु = बैल ; धरमु = धर्म; दइआ = दया; पुतु = पुत्र; थापि रखिआ = निर्माण केले; जिनी = जाणें, जाका लागून; सूति = सूत्रांत; बुझै = समजावप, समजप ; सचिआरू = सत्याचो प्रकाश ; केता = कितले; भारू = वजन, भार, वजें; धरती होरू = धर्तरेचे सकल ; परै = मागीर ; ताचे सकल ; तिस ते = त्या बैलाच्या ; तलै = सकल, तळा ; कवणू जोरू = कोणाचो आधार;

जीअ = जीव; वुडी = सतत, अविरत, थांबनासतना; कलाम = लेख; लिखिजाणै = बरयल्ले प्रमाण; केई = क्वचित, विरळो; लेखालिखिआ = हिशेब/जमाखर्च बरयलो, गणटी केली; केता होई = कितलो जातलो, अगणित जातलो; पसाउ = पसारो, व्याप; कवाऊ = शब्द; ताणु = वळ, सामर्थ्य; सुआलिहु = सुंदर; कुतु = कुवत; दाति = दान.

(हे पउडींत गुरू नानकदेवान ÷पंच' ÷पंचे' हे शब्द जे वापरल्यात तांचो अर्थ सारको समजून घेवपाक जाय. रूढ अर्थान गावंचो कारभार पळोवपाखातीर वेंचून आयिल्लो तो ÷पंच'. ह्या अर्थान गुरू नानकजीन हो शब्द वापरूंक ना. तर जाणें आपले पंचप्राण परमेश्वराच्या नामरुपाकडेन एकरूप केल्यात, अशा भक्ताक नानकजी ÷पंच' म्हणटात. अशा पंचाक बरे गूण आपणावचे पडटात. तातूंत निवृत्ती, धिरिश्टताय, निर्मळसाण, समानताय आनी संतोश हे पांच गूण पंचाकडेन आसूंक जाय. तशेंच काम (वासना, क्रोध (तिडक), लोभ, मोह, अहंकार, मत्सर इत्यादीचेर ताणें जैत मेळोवंक जाय. अशा विकारांचेर जैत जोडिल्लोच ÷पंच' हे पदवेक लायक समजूंक जाय. असलोच पंच परमेश्वराच्या दरबारांत भोवमान जोडटा.)

जो पंच आसा तो मान्य जाता. तोच पंच प्रधान जातलो. लोक ताका मानतले आनी भगवंतय ताका आपल्या दरबारांत भोवमान दितलो. आपणाक परमेश्वरी लीलेचें पूर्ण ज्ञान जालां अश्या पंचाकय म्हणपाक येवंचेंना. अशें आसल्यार तो भ्रमच. कारण परमेश्वराचे लीलेचें, कार्याचें, रचणुकेचें पुराय ज्ञान कोणाकच जावंक ना. परमपिता परमेश्वर अनंत आसा. ताचें कर्तुप अपार आसा. हें सज्जन आनी संत जाल्ले पंच गुरूच एक ध्यान आसा. ते गुरूमय जाल्यात. तांचो अहंकार सरता.

सगले सृश्टीचे वेव्हार कशे चलतात? ताका स्थिरताय कशी मेळटा? पृथ्वी बैलाचे फाटीचेर उबी आसा अशें म्हणटात. हाचो अर्थ कितें? गुरू नानकजी सांगतात, हे सृश्टीचे सगले वेव्हार धर्माच्या आधाराचेर चलतात. महाभारतांत म्हळां,धर्मोवृष:. धर्म म्हळ्यार एक बैल. धव्या रंगाचो बैल. धर्माक लागुनूच पृथ्वीची धारणा जाल्या. आनी धर्माचें मूळ एकूच: दया. दया ही धर्माची माता. आनी दयेचें मूळ आशिल्ल्या धर्माचेरच सृश्टीचे सगळे वेव्हार आधारल्यात. सत्य आनी संतोष ह्या दोन गुणांचेर संवसारांत ÷सूति' – सुवेवस्थित येवजण, रचना, सुसंगती, सुसंवाद निर्माण जाता. दया आनी करूणेक लागून सृश्टी उत्पन्न जाली आनी धर्मान तिचो भार उखलला. परमेश्वर ह्या राजाचो प्रधान संतोश. संतोशाशिवाय सृश्टीसंभव असंभव. संतोशाक लागुनूच एकसूत्रताय, एकरसताय निर्माण जाल्या.

जांका ही गजाल समजल्या, तोच सत्य मार्गान चलतलो. परमात्मो सत्य स्वरूप देखून तोय सत्य स्वरूप जातलो. ÷÷जे को बुझै होवै सचिआरू'' ह्या चरणांत सृष्टीरचनेचें सगलें रहस्य सांगला. मूळ परमेश्वर सत्य स्वरूप आशिल्ल्यान, ताका दया आयली आनी ताका लागून सृश्टी निर्माण जाली. तातूंतल्यान मागीर धर्म निर्माण जालो. धर्मान आपल्या वावरा पासत संतोशाची निर्मणी केली. हो संतोशच सुसंगती, सुसंवाद निर्माण करता. ज्या कोणाक हें कळटलें, ताच्या ध्यानांत येतलें की त्या बैलाचेर केदो भार आसा.

हे पृथ्वीचे पेल्यान कितलीशींच भुवनां (गिरे) आसात. खंयची शक्ती ह्या प्रचंड भाराक आधार दितली?

तरातरांचे आसात. परमेश्वराच्या दप्तरांत हांची अविरत नोंद जायत आसता. परमेश्वर हे सगले आपले सरनाशिल्ले लिखणेन बरयत आसा. तांचो हिशेब, त्या प्रत्येकाचो कर्मलेख हेर कोण दवरपाक शकत! तांचो पसारो कितलो व्हडलो आनी व्यापक जातलो. परमेश्वर एक आनी एकच आसा. पुणून ताच्या मनांत आयलें: ÷÷एको हं, बहुस्यामि.'' हांव एकाचो अनेक जातलों. ताणेंच हीं विविध रुपां घेतलीं, आनी सृश्टीची रचना केली. त्या सगल्यांची यादी करप कोणाक शक्य जायत? त्या प्रत्येकाचें रूप, गूण, क्षमता, कुशळाय हांचो पार लागपाचो ना. तुवें जी देण आमकां दिल्या ती केदी व्हडली आसा हाचो थाव आमकां लागचो ना. एका शब्दान तुवें हो पसारो घडयलो. बायबलांत (जॉन) अशें म्हळां: In the beginning was the Word. आरंभाक परमेश्वराचो एकच शब्द आसलो. हातुंतल्यान लाखांनी न्हंयो आयल्यो. ताचें वर्णन करची म्हाका कुवत खंयची? हांव इतलो क्षुद्र त्या प्रभू चरणीं एकवेळय समर्पित जावपाक म्हजी लायकी ना. जो शुद्ध पुरूश आसा ताकाच हें शक्य जातलें. परमेश्वरा, तुका जें भावता, तेंच सत्कर्म. तू निरंकार (निराकार). आकार तुट्टले. पूण आकारा फाटल्यान जो निराकार आसा तो सदांच आसतलो.

## पउडी १७ – पांवडो सतरावो

असंख जप असंख भाउ ।। असंख पूजा असंख तप ताउ ।।
असंख गरंथ मुखि वेद पाठ ।। असंख जोग मनि रहहि उदास ।।
असंख भगत, गुण गिआन वीचार ।। असख सती, असंख दातार ।।
असंख सूर, मुह भख सार ।। असंख मोनि, लिव लाइ तार ।।
कुदरति कवण, कहा वीचार ।। वारिआ न जावा एक वार ।।
जो तुधु भावै साई भली कार ।। तू सदा सलामति निरंकार ।।१७।।

अर्थ: असंख = असंख्य, अगणित; भाउ = भाव, श्रद्धा, प्रेम; तपताउ = तपश्चर्या; गरंथ = ग्रंथ; मुखि = मुखोद्गत, तोंडपाठ; जोग = योग; मनि = मनांत; रहहि = रावतात; गिआन = ज्ञान, गिन्यान; विचार (ज्ञानाचो); सती = सत्यधर्म; दातार = दातो, दिवपी; सूर = शूर, वीर; मुहभखसार = शस्त्रास्त्रांच्या घायाक धिरान सामकार वतात; मोनि = मौनव्रत धरपी; लिवलाई तार = अखंड समाधींत गुल्ल आसतात; वारिआ = समर्पित जावप; बलिदान करप; तुधु = तुला, तागडी.

हे पउडींत भगवंताचे लीलेचो विस्तार वर्णिला. असंख्य लोक तुजो जप करतात आनी तुजो भोग करतात. श्रद्धेन तुका भजतात. अनेक तराच्यो तुज्यो पूजा चलतात आनी तपश्चर्या करतात. असंख्य शास्त्र ग्रंथ मुखोद्गत करतात आनी वेद पारायणां करतात. तरातराच्या योगसाधनांचे वरवीं वैराग्यान चलून परमेश्वर मेळोवपात गुल्ल आसतात. अनेक भक्त भगवताच्या गुणाचें आनी ज्ञानाचें चिंतन करतात. अनंत सत्यव्रताचें पालन करून परमेश्वर प्राप्तीच्या प्रयत्नात आसतात. कोण दानाच्या मार्गांन तुजेसरीं येवपाचो प्रयत्न करतात.

असंख्य शूरवीर तुजे प्राप्तीखातीर झुजामळार आनंदान शस्त्रांचे वार आंगार झेलीत आत्मबलिदान करतात. अनेक लोक मौनव्रत धरून, तर जायते जाण समाधीच्या मार्गान तुका मेळोवपाचो यत्न करतात. तुजी लीला वर्णूंक म्हजी तांक ना. हांव पामर. म्हज्यान एकवेळ लेगीत तुजेखातीर समर्पित जावंक येवंचें ना. तुका बरें दिसता तेंच सत्कर्म. आगा निरंकारा (निराकारा) तूंच म्हाका सदांच राखतलो.

## पउडी १८ - पांवडो अठरावो

असंख मूरख अंध घोर ।। असंख चोर हरामखोर ।।
असंख अमर करि जाहि जोर ।। असंख गलवढ, हतिआ कमाहि ।।
असंख पापी, पापु करि जाहि ।। असंख कूडिआर, कुडे फिराहि ।।
असंख मलेछ, मलु भखि खाहि ।। असंख निंदक, सिरि करहि भारु ।।
नानकु नीचु कहै वीचारु ।। वारिआ न जावा एक वार ।।
जो तुधु भावै साई भली कार ।। तू सदा सलामति निरंकार ।।१८।।

अर्थ: मुरख अंध घोर = तमोगुणान घोर काळखांत बुडिल्ले म्हामूर्ख लोक; हरामखोर = विश्वासघातकी, दुसऱ्याचें धन चोरपी; अमर = सत्ताधीश; जोर = अन्याय, अत्याचार; करिजा हि = सदांच करतात ते; गलवढ = जीव घेवप; हतिआ = हत्या; हतिआ कमाई = दुसऱ्याचो जीव घेवन ताची संपत्ती लुटपी; कुडिआर = असत्याचे मायेंत घुसपल्ले; कूडे = असत्यांत; खोटेपणांत; मायेच्या भोंवऱ्यांत; फिरहि = भोंवत रावतात; मलेछ = वायट विचाराचे लोक; खाहि = खातात; मलु भखि खाई = अधाश्याभाशेन सदांच वायट कर्म करतात; निंदक = निंदुपी; सिरी करहि भारू = तकलेर पातकाचो भार व्हांवपी; नानकनीचु = क्षुद्र, पामर नानक; कहै विचारू = कितें विचार करूंक शकतलो, पावतलो.

सतरावे पउडींत गुरू नानकदेवान सत्वगुणी लोकांचें वर्णन केलां. आतां हे पउडींत ते तमोगुणी लोकांचें वर्णन करतात.

नानक म्हणटात: जशे हांगा सत्त्वगुणी लोक असंख्य आसात, तशे खूब पापी, दुराचारी आनी तमोगुणी मनशांय आसात. असंख्य महामूर्ख लोक

तमाच्या घोर काळखांत बुडिल्ले हे लोक. ते आपले सत्तेच्या नेटार, अनंत अत्याचार करतात. दुसऱ्यांचो गळो अंदून, तांचे प्राण घेवन, तांची संपत्ती लुटपी असंख्य लोक हांगा आसात. असंख्य पापी लोक दीस रात पापकर्मां करीत आसतात. जायते लोक मोहमायेच्या, असत्याच्या फेऱ्यांत घुंवतात. जायते दुश्ट विचारांचे लोक आपल्या वायट विचारांनी अधाशांवरी सदांच वायट कर्तुबां करतात. जायते लोक सदांच दुसऱ्यांक निंदितात. अशे दुराचारी लोक तमोगुणांत बुडल्यात. गुरू नानकदेव म्हणटात: तांकां वर्णुपाचें बळ आपलेवरी पामरा कडेन ना. तो प्रभू परमेश्वर सदां स्थीर आसा हेंच हांव जाणां.

हांगा पापाचो विचार केला. हांगा अज्ञान पाप अशें मानलां. गीतेंत अज्ञानाचो आसुरी संपत्तेंत आसपाव केला. आमच्या शास्त्रांत अहिंसा, सत्य, अस्तेय (चोरी), ब्रह्मचर्य, असंग्रह हांकां ÷पांचयम' अशें म्हळां. ह्या पांच यमांचे विरुद्ध जें आसा तें पाप. हिंसा, असत्य, चोरी, व्यभिचार, परिग्रह हीं पांच पातकां. गौतम बुद्धानय पांच यमांक पंचशील अशें म्हळां.

## पउडी १९ – पांवडो एकोणिसावो

असंख नाव, असंख थाव ।। अगंम अगंम असंख लोअ ।।
असंख कहहि, सिरि भारु होइ ।। अखरी नामु अखरी सालाह ।।
अखरी, गिआनु गीत गुण गाह ।। अखरी, लिखणु बोलणु बाणि ।।
अखरा सिरि, संजोगु वखाणि ।। जिनि एहि लिखे, तिसु सिरी नाहि ।।
जिव फुरमाए, तिव तिव पाहि ।। जेता कीता, तेता नाउ ।।
विणु नावै, नाही को थाउ ।। कुदरति कवण, कहा वीचारु ।।
वारिआ न जावा एक वार ।। जो तुधु भावै साई भली कार ।।
तू सदा सलामति निरंकार ।।१९।।

अर्थः नाव = नांवां; थाव = स्थान; अगंम = अगम्य, जें समजना तें; लोअ = लोक, स्थान, ठिकाण; कहही = सांगतात; सिरी = तकलेर; अखरी = अक्षरांनी, शब्दांनी; सालाह = प्रशंसा, तोखणाय; संजोगु = भागयलेख; वखाणि = वाणीन सांगप; तिसू = ताच्या; जिनि = जाणें, ज्या परमेश्वरान; एहि = भाग्यलेखाचीं हीं अक्षरां; जिव = जे तरेन; तिव तिव = तशें तशें; फुरमाए = फरमायता, हुकूम करता; पाहि = भोगता; जेता = जितलो; कीता = निर्मिल्लो हो संवसार; तेता = ते सगळे; नाऊ = नाव, रूप, स्वरूप; विणु नावै = नावा शिवाय, नामाविणें.

हे पउडींत सर्वव्यापी परमेश्वराचो म्हयमा गायला. हे सृश्टींत ज्यो वस्तू आसात, पशु पक्षी आसात, जीव प्राणी आसात, तीं त्या परमेश्वराचींच रुपां. तांची गणटी करूक येवंची ना. गुरू नानकजी म्हणटात: असंख्य तुजीं नांवां, असंख्य तुजीं ठिकाणां. आनी ताचे ÷लोक'य असंख्य. आनी देखून अगम्य.

त्या सगळ्यांचीं नांवां सांगप आनी बरोवप लेगीत कठीण. सगळे शब्द अपुरे आसात. आमी भगवंताचीं नांवां अक्षरांनी घेतात. शब्दांच्या माध्यमांतल्यानच आमी ताका जाणूंक शकतात. शब्दांच्या पालवानूच आमी ताची स्तुती गायतात. ताच्या गुणांचें कीर्तन करतात. परमेश्वरान जण एकल्याच्या कपळाचेर ताचो ÷ललाटलेख' बरयला, कर्म लेख बरयला. पूण विशेश म्हळ्यार परमेश्वराच्या ललाटाचेर खंयचोच कर्मलेख ना. तो स्वतः निरंकुश. कर्म, अकर्माचे पेल्यान. तो स्वतंत्र. तो कर्तुम, अकर्तुम, सर्व शक्तीमान आसा. तो जसो फरमायतलो तशेंच जातलें. भगवंतान जितलें केलां, सगलें ताचेंच नाम आसा. ताच्या नामा शिवाय हेर आनीक कांयच ना. ताका जें मानता, आवडटा तेंच जातलें. तो सगळेकडेन आसा. तो मायेचे पेल्यान आसा.स्वयंप्रकाशी आनी नित्यस्वरूप आसा.

## पउडी २० - पांवडो विसावो

भरीऐ हथु पैरु तनु देह ।। पाणी धौते, उतरसु खेह ।।
मूत पलीती कपडु होइ ।। दे साबूणु, लईऐ ओहु धोइ ।।
भरीऐ मति, पापा कै संगि ।। ओहु धोपै, नावै कै रंगि ।।
पुंनी पापी, आखणु नाहि ।। करि करि करणा, लिखि लै जाहु ।।
आपे बीजि, आपे ही खाहु ।। नानक, हुकमी आवाहु जाहु ।।२०।।

अर्थ: भरीऐ = भरतात, म्हेळे जातात; धोतै = धुविल्ल्यान; उतरसु = निवळ जाता; खेह = म्हेळ, धुल्ल; मूत = मूत; पलीती = अपवित्र जावप; ओहु = इबाड्लिलो; धोई = धुवून वता; मति = बुद्धी, विचार; संगी = संगतीन; धोपै = धुवून निवळ जाता; नावै = नामजपान; नावै केरंगि = परमात्म्याच्या नामजपाच्या पालवान; पुंजी = पुण्यवंत; आखणु = नांवापुरतें; करिकरि करणा = जशें कर्म करूं ते भाशेन; लिखि = बरोवन; लिखि लै जाहू = वांगड घेवन वता; आपे = आपूण स्वत:; बीजि = ओंपचें; खाहु = मेळटा; आवहु जाहु = येता आनी वता.

हे पउडींत नामजपाचें म्हत्व दिसपट्टे जिणेंतल्यो देखी दिवन सांगला.

धुल्लान भरिल्लें आनी म्हेळें जाल्लें आंग आनी मुस्तायकी, हीं उदकान धुतकच निवळ जातात. मुतान म्हेळे जाल्ले कपडेसाबवान धुल्यार निवळ जातात. तेच परी वायट विचारान म्हेळें जाल्लें मन, परमात्म्याच्या जपान निवळ जाता. नाम जप बुद्धीचो म्हेळ काडपी शाबू. वयलेचाराक पळेल्यार हो पुण्यवंत (पुन्नी), हो पापी अशें म्हणप समा न्हय. ३आपल्या कर्तुबाप्रमाणच भगवंताकडेन

त्या कर्माची नोंद बरोवन दवरप जातलें. तेंच आमी वांगडा व्हरतले. जशें ओंपचें तशेंच आमी लुंवचें. नानक म्हणटा की ह्याच तत्त्वाचेर आमकां फुडलो जल्म मेळटलो आनी आमी जल्म मर्णाच्या चक्रांत फिरत रावतले. जो आपलें जिवीत प्रभूचे इच्छेप्रमाण सारता, ताचें जिवीत सफळ जाता.

## पउडी २१ – पांवडो एकविसावो

तीरथु तपु दइआ दत्तु दानु ।। जे को पावै, तिल का मानु ।।
सुणिआ, मंनिआ, मनि कीता भाउ।। अंतरगति तीरथि, मलि नाउ ।।
सभि गुण तेरे, मै नाही कोइ ।। विणु गुण कीते, भगति न होइ ।।
सुअसति आथि बाणी बरमाउ ।। सति सुहाणु सदा मनि चाउ ।।
कवणु सु वेला, वखतु कवणु कवण थिति, कवणु वारु ।।
कवणि सि रुती, माहु कवणु, जितु होआ आकारु ।।
वेल ना पाईआ पंडती, जि होवै लेखु पुराणु ।।
वखतु न पाईओ कादीआ, जी लिखनि लेखु कुराणु ।।
थिति वारु न जोगी जाणै, रुति माहु न कोई ।।
जा करता सिरठी कउ साजे, आपे जाणै सोई ।।
किव करि आखा किव सालाही, किउ वरनी किव जाणा ।।
नानक, आखणि सभु को आखै, इक दू इकु सिआणा ।।
वडा साहिबु वडि नाई, कीता जा का होवै ।।
नानक, जे को आपौ जाणै, अगै गइआ न सोहै ।।२१।

अर्थ: तीरथु = तीर्थस्थान; तपु = तप; दइआ = दया; दानु = दान; जेको = जें कित्तें; पावै = मेळ्यतात, मेळ्टा; तिल = तीळ; तिला का मानु = तिळमात्र, नगण्य, सामकें उणें; सुणिआ = नामश्रवण; मंनिआ = आत्मसात केल्लें; कित्ता भाउ = प्रेम केल्लें, आचरणांत हाडल्लें; अंतरगति = आंतरिक; तीरथी = तीर्थांत; मलि = घांसून पुसून, चोळ्ळून; नाऊ = न्हाल्लों; विणु गुण कित्ते = पूण तुजे गूण म्हज्यांत उत्पन्न केल्ले नात; भगति = भक्ती; सुअसति = तुजो जयजयकार आसूं; सति = परमसत्य; अति = तूं

कोणाकच कांयच करून स्वत: ; बाणी = वाणी, वाचा; बरमाउ = ब्रह्मा; सुहाणु = सुंदर; मनि = मनांत; चाऊ = प्रफुल्लताय, उमेद; जितु = जेन्ना; होआ = निर्माण जाले; आकारू = सृश्टी; पाइआ = प्राप्त जावप; जि = ना जाल्यार; लिखू = बरोवप; कादीआ = काजी; जा करता = कर्तो; सिरठीकउ साजे = सृश्टी केन्ना निर्माण केली; आपे सोई = (परमेश्वर) तूंस्वत: ; किव करि = कशे तेस; खंयच्या शब्दांत; आखा = व्यक्त करूं, सांगूं; सालाहि = प्रशंसा करप; वरनि = वर्णन; जाणा = जाणप; ज्ञान जावप; सभु = सगळे; आखणि आखै = सांगपाचो प्रयत्न करतात; इकुदु सिआणा = जण एकलो आपणाक दुसऱ्यापरस शाणो समजून; वडा = व्हडलो, स्रेश्ठ; साहिबु = परमेश्वर; जेको = जाचो (परमेश्वराचो); आपौ = आपले बुद्धीच्या नेटार; जाणै = जाणपाचो यत्न करता; न सोहै = आदर मेळोवपाक शक्ना; अगै गइ आ = परमेश्वराच्या दरबारांत वतकच.

गुरूदेव नानकजीन पाप पुण्याचो विचार मांडटकच शिश्यांक पर्थून एकदां तीर्थस्थानां, व्रतां आदींची याद जाली. तांणी विचारलें: तीर्थस्थानांत वचून तीर्थांत न्हातकच पुण्य मेळटा न्हय? दुसऱ्याचेर दया करतकच, दान करतकच पुण्य मेळटा न्हय?

तीर्थांक भेट दिल्ल्यान, तप केल्ल्यान, दान दिल्ल्यान, दया दाखयल्ल्यान, पुण्य मेळटा हें खरें, पुणून नाम जपान, नाम श्रवणान, ईश्वराकडेन एकरून जाल्ल्यान, मेळटल्या पुण्याकडेन तुळा केल्यार तें तीळमात्र आसता. (नामजपान ईश्वराकडेन नातें जोडिल्ल्यान अंतस्कर्ण पवित्र जाता, शुद्ध जाता. आमच्या दर एका कर्तुबांत अहंकार आसता. हांव तीर्थयात्रेक गेलों, दान केलें, दया केली. होच अहंकार, हेंच मीपण, होच हंतम आमकां ईश्वरापसून पयस दवरता.) हांव कोणूच न्हय. म्हज्या आंगांतले सगळे गूण तुवेंच म्हाका दिल्यात. तुवें हे गूण दिवंक नाशिल्ले जाल्यार, म्हाका कांयच करूंक जावंचें

नासलें. तुजी भक्तीय हांव करूंक पावनाशिल्लों. परमेश्वरा, तुजो सदांच जयजयकार आसूं. तूंच वाणी, तूंच परब्रह्म, तूं सदां स्थीर, सुंदर; प्रफुल्लीत, तेजवंत आसा.

परमेश्वरा, तूं ही सृश्टी केन्ना निर्मिली? खंयच्या रुतूंत, खंयच्या म्हयन्यांत, खंयच्या वाराक, खंयचे तिथीक, खंयच्या वेळार, खंयच्या म्हुर्तार ही सृश्टी तुवें निर्मिली हें कोणाकूच खबर ना. कित्याक, खंयच्या शास्त्रीपंडिताक हें कळिल्लें जाल्यार तो तें एका पुराणांत बरयतलो आशिल्लो. खंयच्या काजीक हें कळिल्लें जाल्यार तो तें कुराणांत खंय आसा तें सांगतलो आसलो. खंयच्याय योग्याक सृश्टीची उत्पत्ती केन्ना जाली, हें योगाच्या बळान कळूंक ना. परमेश्वरा, ही सृश्टी तुवें निर्मिली. ताका लागून ती केन्ना केली हें फकत तूं एकटोच जाणा.

हांव तुजें व्हडपण कशें वर्णूं? तुज्या गुणांचो म्हयमा कसो वर्णूं? हे परमेश्वरा, तूं सर्वस्रेश्ठ आसा. जें कितें ह्या संवसारांत घडटा तें तूंच घडयता. तुजें व्हडपण सगळ्यां परस म्हान.तरी लेगीत प्रत्येक मनीस स्वताक दुसऱ्यापरस अदीक शाणो समजून तुजें व्हडपण वर्णुंपाचो यत्न करीतच आसता. बुद्धीच्या नेटार तुका जाणपाचो यत्न करतल्याक तुज्या दरबारांत मातूय स्थान ना. हे परमेश्वरा, तूं खऱ्यांनीच सर्वस्रेश्ठ. तुवेंच हें सगळें घडयलां. तूंच सगळ्यांचो चालक, मालक आनी पालक.

## पउडी २२ – पांवडो बाविसावो

पातल पाताल लख, आगासा आगास ।।
ओडक ओडक भालि थके, वेद कहनि इक वात ।।
सहस अठारह कहनि कतेबा, असुलू इकु धातु ।।
लेखा होइ त लिखीऐ, लैखै होइ विणासु ।।
नानक वडा आखीए, आपे जाणै आपु ।।२२।।

अर्थ: आगास = आकाश; ओडक = अंत; भालि थके = सोदतां सोदतां थकले; एक वात = एक मतान; सहस = सहस्त्र, हजार; कतेबा = इसाई, इस्लाम धर्माचे ग्रंथ; असलु = खरें म्हळ्यार; इकु धातु = एकच तत्त्व, परमेश्वर; विणासु = विनाश, अंत; वडा = व्हडलो, म्हान; जाणै = जाणटा.

परमात्म्यान निर्मिल्ले हे सृश्टीचें वर्णन आयकून शिश्यांच्या मनांत सृश्टीचो पसारो जाणून घेवचेली जिज्ञासा उत्पन्न जाली. ताचेर गुरू नानकजी सांगतात: आमकां दिसता त्या आकाशाचेर लाखांनी आकाशां आनी पाताळांची कल्पना केली तरी, हे सृश्टीच्या पसाऱ्याचो अंत लागना, अशें सगळे वेद एकमुखान सांगतात. इस्लामी आनी ईसाई धर्मग्रंथां प्रमाण अठरा हजार पट सृश्टीचो पसारो आसा. पूण खरेपणान पळेल्यार परमेश्वरी तत्त्व एकूच आसा. हें सगळें गहन आसा. हाची गणटी जायना. अनेक रुशीमुनी हाचो सोद घेतां घेतां थकले आनी हो संवसार सोडून गेले. एक गजाल मात खरी. ही सृश्टी त्या परमेश्वरान निर्मिली. ताकाच हे सृश्टीच्या पसाऱ्याचें गिन्यान आसा. ज्या परमेश्वरान ही सृश्टी निर्मिली, तिचें व्हडपण फकत तोच जाणा.

## पउडी २३ -- पांवडो तेविसावो

सालाही सालाहि, एती सुरति न पाईआ ।।
नदीआ अतै वाह, पवहि सामुंदि न जाणीअहि ।।
समुंद साह सुलतान, गिरहा सेती मालु धनु ।।
कीडी तुलि न होवनी, जे तिसु मनहु न विसरहि ।।

अर्थ: सालाही = स्तुती करपाक फावता असो; सालाहि = स्तुती करून; एती = इतकी; सुरति = ज्ञान, समज; न पाईया = मेळना, प्राप्त जायना; अतै = जशें; समुंद साह सुलतान = समुद्रांचो वा दर्यांचो सुलतान; गिरहा सेती = पर्वता येदें; तुलि = तुळा, सर; न होवनी = जावचें ना; तिसुमनहु = ताच्या मनांत; न विसरहि = तूनासल्यार; वाह = व्हाळ; पवहि = वचून मेळ्ळ्या; न जाणी अहि = कळना.

परमेश्वराचें व्हडपण कोणाकूच कळूक ना अशें गुरू नानकजीच्या तोंडांतल्यान आयकतकच, शिश्याच्या मनांत असो विचार आयलो: जे लोक नामजपाच्या पालवान ईश्वरासरीं पावल्यात, तांकां तरी ईश्वराचें व्हडपण कळ्ळांच आसतलें. ताचो हो गैरसमज पयस करपाक गुरू नानक देवांनी व्हाळ आनी दर्यांची गोश्ट सांगली. ते म्हणटात:

परमेश्वराची स्तुती ताचे भक्त करतात, पुणून तांकां ताचें व्हडपण कळूक ना. जशें एक व्हाळ व्हावत व्हांवत समुद्राक वचून मेळटकच त्या व्हाळाचें स्वतंत्र अस्तित्व बाकी उरना. जरी तो समुद्राकडेन एकरूप जाता, तरी लेगीत ताका समुद्राच्या अथागपणाचें पूर्ण ज्ञान जायना. तशेंच, नामजपान परमेश्वराकडेन पाविल्लो भक्त परमेश्वराकडेन एकरूप जाता, तरी लेगीत

ताका परमेश्वराच्या अगाध शक्तीचें ज्ञान जायना.

ईश्वरभक्ती करतकचय परमेश्वराच्या व्हडपणाचो थाव लागना. हाचो अर्थ असो न्हय की ईश्वर उपासनेचो कांयच लाभ ना. असो भक्त परमेश्वराच्या दरबारांत व्हडांतली व्हड पदवी जोडटा. ईश्वरनामांत मग्न जाल्ल्या भक्ताक संवसारांतलें सगलें धन, सत्ता आनी हेर सगलें ईश्वरी नामाफुडें क्षुद्र मुंयेपरसय तुच्छ दिसूंक लागता.

## पउडी २४ – पावडो चोविसावो

अतु न सिफती, कहणि न अंतु ।। अंतु न करणै, देणि न अतु ।।
अंतु न वेखणि, सुणणि न अंतु ।। अंतु न जापै, किआ मनि मंतु ।।
अंतू न जापै कीता आकारु ।। अंतु न जापै पारावारु ।।
अंत कारणि केते बिललाहि ।। ता के अंत न पाए जाहि ।।
एहु अंतु न जाणै कोई ।। बहुता कहीऐ बहुता होइ ।।
बडा साहिबु, ऊचा थाउ ।। ऊचे उपरि ऊचा नाउ ।।
एवडु ऊचा होवै कोइ ।। तिसु ऊचे कउ, जाणै सोइ ।।
जेवडु आपि जाणै आपि आपि ।। नानक नदरी करमी दाति ।।२४।।

अर्थ: सिफ्ती = गुणांचे; कहणि = सांगून; करणै = केल्लो; परमेश्वराची करणी, लीला; देणि = दान दिवप; वेखणि = पळोवप; सुणणि = आयकप; न जापै = समजना, कळना, दिसना; मनि = मनांत; मंतु = विचार; कीता = घडयल्लें; आकारू = आकार, दिसपी संवसार; पारावारु = पारावार, अंत; अंतकारणि = अंत, शेवट पळोवपाखातीर; केते = जायतीं मनशां; बिललाहि = आकूळ जातात; ता के अंत = परमेश्वराचे क्षमतायेचीं कल्पना; पाएजाहि = सांपडना, मेळना.

परमेश्वराच्या अनंतत्त्वाचें वर्णन अदीक खोलायेन करतना गुरू नानकदेवजी सांगतात: भगवंताच्या गुणांक अंत ना. आमच्या वर्णनाकय अंत ना. ताच्या गुणांचें वर्णन करपाक शब्द उणे पडटात. ताचे करणेकय अंत ना, सुमार ना. ताच्या देण्याकय वा दानाकय अंत ना. ताच्या पळोवपाक आनी ताच्या आयकपाकय अंत ना. तो आपल्या मनांत कितें मनन करता, कितें

चिंतता, ताकाय अंत ना. तें कोणाकच कळचें ना. ताणें कितें घडयला, कितले संवसार रचल्यात, ताचो अतय आमकां दिसपाचो ना. ही तड वा ती तड आमका दिश्टी पडचिना. परमेश्वराचो अंत सोदपाखातीर, ताचें स्वरूप जाणपाखातीर, ताचें स्वरूप कळपाखातीर कितल्या जाणांनी प्रयत्न केल्ले. कितले जाण ताचेखातीर आकूळ पिकूळ जाले, तरी ताचो अंत:पार आमकां लागना. आमी जितलें म्हूण ताचें वर्णन करतात, ताचे परस चड सांगपाचें उरता. आमी ताचे म्हऱ्यात पावतात अशें दिसता, तेन्ना तो चड फुडें वता. ताच्या मोठेपणाचो, व्हडपणाचो अंत कळना. तो व्हड आनी ताचें स्थानय उंच. पूण ताच्या उंचेल्या स्थानापरसय ताचें नाम चड उंच आसा. जो ताचे इतलो उंचायेर पावतलो, आनी व्हड जातलो, तोच ताचे उंचायेचें स्वरूप जाणटलो. तो केदो व्हडलो आसा, तें ताकाच कळपाचें. पुणून जेन्ना तो आमकां पावता, आनी तांचे कृपेची, दयेची नदर आमचेर पडटा, तेन्नाच आमकां हें सगळें मेळटा.

## पउडी २५ – पांवडो पंचविसावो

बहुता करमु, लिखिआ न जाई ।। वडा दाता, तिलु न तमाई ।।
केते मंगहि जोध अपार ।। केतिआ गणत नही वीचारु ।।
केते, खपि तुटहि वेकार ।। केते लै लै मुरु पाहि ।।
केते मूरख खाही खाहि ।। केतिआ, दूख भूख सद मार ।।
एहि भि दाति तेरी, दातार ।। बंदि खलासी, भाणै होई ।।
होरु आखि न सकै कोई ।। जे को खाइकु आखणि पाइ ।।
ओहु जाणै, जेतीआ मुहि खाइ ।। आपे जाणै, आपे देइ ।।
आखहि सि भि केई केइ ।। जिस नो बखसे सिफति सालाह ।।
नानक, पातिसाही पातिसाहु ।।२५।।

अर्थः करमु = कृपा; तिलु = तीळमात्र, मात लेगीत; तमाइ = लोभ, खर आशा, सोंस; केते = जायते; मंगहि = मागत आसतात; जोध अपार = जायते झुजपी, योद्धे; गणत = गणटी, मेजणी; नही विचारू = विचार करपाक येना; खपिखपिके = भोग घेत घेत; तुटही = नशट जातात; वेकार = विशय, विकार; लै लै = घेत घेत; मुकरू पाहि = कृतघ्न जातात, परमेश्वराक विसरतात; दूख = दुःख; भूख = उपासमार; सद मार = सदां भोगतात, भोगत आसतात; एहि = ही लेगीत; दाति = कृपा, देण, देणगी; दातार = दिवपी, दातो, परमेश्वर; बंदि = बंदी, बांदिल्लो; खलासी = मुक्तताय; भाणै होइ = परमेश्वरी आज्ञेंत राविल्ल्यान जाता; होरू = हेर मार्ग आखि = सांगपाक येता; जे को = जो कोण; खाइकु = मूर्ख मनीस; आखणि पाइ = सांगपाचो यत्न करीत; ओहु = तो मनीस जाणै = जाणटा; जेतीआ = जितके; मुहि = तोंडाचेर; खाइ = खाता; आपे = ईश्वर; जाणै = जाणटा; देइ = दिता; आखहि = सांगता; सि भि = ही गजाल;

केह केह = कोणें कोणें; जिसनो = जाणें; सिफति सालाह = गूण कीर्तन; पातसाही पातिसाहु = राजांचो राजा, म्हाराज.

प्रभू परमेश्वराचे गूण गायतना गुरू नानकदेव फुडें सांगतात: परमेश्वरा इतलो व्हड दानी हेर कोणूच ना. ताची कृपा तो दीत आसता. ताचे कृपेची गणटीच करूंक येवंची ना. तो ताच्या दिवपांत मातूय काट्रूपण करिना. आमचे कडल्यान तो कांयच घेना, कित्याक ताका कसलोच सोंस ना. तो निरपेक्षपणान दीत रावता. खूब बळिश्ट लोकय परमेश्वरा कडल्यान मागीत आसतात. तांची गणटी लेगीत करूंक येवंची ना. अशेय कितलेशेच आसतात, जे परमेश्वरा कडेन मागचे बदला इंद्रियभोगांत बुडटात, तांची शक्ती क्षीण जाता. थोडे अशेय लोक आसतात, जे ईश्वरा कडल्यान घेवनूय पडमूर जावन ताका विसरतात. जें कितें आपणाक मेळ्ळां तें आपल्याच कर्तुत्वान अशें तांकां दिसता. कितलेशेच जाण जल्मभर दुःख, दळडीर आनी उपासमारींत दीस सारतात, पूण ही लेगीत ईश्वराचीच करणी अशें मानतात. ÷देवा, तूंच दिवपी, तूंच दातो, ही देण तुजीच, ही तुजीच कृपा' अशें ते म्हणटात. ते कृतज्ञ, वैराग्यसंपन्न भक्त जातात. परमेश्वरा, तुजे इत्सेनच आमकां मुक्ती मेळटली. ताची कृपा जालेबगर मुक्ती मेळची ना अशें कांय मानतात. म्हणून ते देवाकडेन कांयच मागिनात. परमेश्वर सगलें जाणपी. कोणाक कितें जाय तें ताका कळटा आनी तें ताका दिता. मागीर मागची गरज कितें? मागचें जाल्यार एकच मागणें मागचें: ÷÷देवा, तुजो विसर म्हाका जावंक दिनाका. म्हज्या मनांत तूं सदांच राव. तुजें गूणकीर्तन म्हाका करपाक दी. तुज्यांतच म्हाका लीन जावं दी.'' जाचेर परमेश्वर कृपा करता, तो राजांचो राजा जावन, सर्वस्रेश्ठ महाराजा जाता.

## पउडी २६ – पांवडो सव्विसावो

अमुल गुण, अमुल वापार ।। अमुल वापारीए, अमुल भंडार ।।
मुल आवहि, अमुल लै जाहि ।। अमुल भाई, अमुला समहि ।।
अमुलु धरमु, अमुलु दीबाणु ।। अमुलु तुलु, अमुलु परवाणु ।।
अमुलु बखसीस, अमुलु नीसाणु ।। अमुलु करमु, अमुलु फुरमाणु ।।
अमलो अमुलु आखिआ न जाइ ।। आखि आखि रहे लिव लाइ ।।
आखहि, वेद पाठ पुराण ।। आखहि पडे करहि वखिआण ।।
आखहि बरमे, आखहि इंद ।। आखहि, गोपी तै गोविंद ।।
आखहि ईसर, आखहि सिध ।। आखहि, केते कीते बुध ।।
आखहि दानव, आखहि देव ।। आखहि, सुरी नर मुनि जन सेव ।।
केते आखहि, आखणि पाहि ।। केते कहि कहि, उठि उठि जाहि ।।
एते कीते, होरि करेहि ।। ता, आखि न सकहि केई केइ ।।
जेवडु भावै, तेवडु होइ ।। ना नक, जाणै साचा सोइ ।।
जे को आखै बोलु विगाडु ।। ता लिखिए सिरि गावारा गावारु ।।२६।।

अर्थः अमुल = अमुल्य, अमोल; वापार = वेपार; वापरिए = वेपारी; भडार = भाडार, खजिनो; आवहि = (वेपाराखातीर) येवपी; लैजाहि = घेवन वतात; भाइ = भाव (भक्तीभाव); समहि = एकरूप जातात; धरमु = नेम, कायदे; दिवाणू = कचेरी, राजदरबार; तुलु = तागडी; परवाणु = वजनमापां; बखसीस = बक्षीस, फळ; निसाणु = निशाण, चिन्ह; करमु = कृपा; फुरमाणु = फरमान, हुकूम; अमुलो अमुलु = कल्पने पेल्यान, अमुल्य; आखिआखि = विचार करता करता; रहे = थकून वता;

लिव लाई = ध्यानात मग्न जाता; आखहि = वर्णन करतात; पढे = शिकिल्ले, विद्वान, पंडित; वखिआण = व्याख्या करतात, वर्णन करून सांगतात; बरमे = ब्रह्म; इंद = इंद्र; तै तथा = आनी; ईसर = शिव; सिध = सिद्‌ध पुरूश; बुद्‌ध = गौतम बुद्‌ध; सुरि नर = पुण्यवंत लोक; सेव = ईश्वराचे सेवक, परमभक्त; केते = कितले तरी जीव; आखणि पाहि = सांगपाचो यत्न करतात; कहिकहि = सांगतां सांगतां; उठि उठि जाहि = वतात, सोंपतात, मरतात; एते किते = अनेक जीव निर्मिल्यात; होरि = हेर, अनंत जीव; करेहि = उत्पन्न केले; ता = तरीय; केईकेई = कोणूय; जेवडु = जितलो; तेवडु = तितलो; साचा सोइ = सदाच थीर आशिल्लो, परमेश्वर; बोलुविगाडु = उलोवन इबाडपी; गवारा गवारू = गांवढळा परस गांवढळ, महामूर्ख.

जायते संत कवी आपआपल्या व्यवसायाच्या रूपकांतल्यान देवाची भक्ती साकार करतात. देखीकः सावता माळी म्हणटाः ÷÷सावत्यान केला मळा, विठ्ठल पायी गोविला गळा.'' नरहरी सोनार म्हणटाः ÷÷आम्ही सोनार सोनार, करतों नामाचा व्यवहार.'' हेय पउडींत गुरू नानकदेवान ईश्वराचें वेपारी म्हणून वर्णन केलांः परमेश्वरा, तुजे गूण अमोल आसात. त्या गुणांचें भांडार घेवन, कोठी घेवन जो वेपार चलयतात, तोवूय अमुल्य आसा. आनी तो ताचे कडेन जो तरांतरांचो माल आसा, गुणरूपी भांडार आसा, तेंय अमुल्य. ह्या सवसारांत सेवा कार्य, धर्म कार्य करपाखातीर जायते येतात, तेय अमुल्य आसात. अगणित लोक येतात आनी ताचे कडल्यान अनंत गूण खरेदी करून वतात. तेय अमुल्य. तातुतले जे भगवताची भक्ती करतात, ते अमुल्य. शेकीं ताचेकडेन येवपी साधक, ताचेकडल्यान ज्ञान व्हरपी ज्ञानी, ताचो भक्ती करपी भक्त, ताचे कडेन एकरूप जावन मुक्ती मेळोवपी, हे सगलेच अमुल्य आसात.

परमेश्वराच्या दरबारांतलो धर्म (धर्मनेमय) अमुल्य. ताचो कायदोय अमुल्य. परमेश्वर प्रत्येकाच्या-कर्मानुसार न्याय दिता. तो जी तागडी वापरता आनी आमचीं कर्मां मेजपाक जीं मापां वापरता तींय अजापाचीं. भगवंत जे कसवटणेचेर जिवांची कसवटणी करता, ती सामान्य न्हय, तीं असाधारण आसात. भगवंत फकत मनशाचीं भायल्यान दिसपी कर्तुबां पळोवन न्याय दिना. तो ताचें मनय पळेता. ताची अंत:शुद्धीय पळेता. देखुनूच परमेश्वराचीं मापां आनी तागडी अमुल्य आसा. मनशाक ताच्या कर्माचें मेळपी फळ (बक्षीस), परमात्म्याची ताचेर जावपी कृपा हांचो अदमास आमकां करपाक येना. ताचे कृपेचें चिन्न हाचोय अदमास आमकां जायना. म्हणून तें अमुल्य. ताची कृपा अमुल्य. ताची आज्ञा, ताचो हुकूमय अमुल्य.

परमेश्वराचें सगलेंच कितें अमुल्यच आसता. ताचें वर्णन करूंक येना. तुजें वर्णन करतां करतां तुजे भक्त समाधींत वतात. वेद, पुराणां हीं सगलीं भगवंताचें वर्णन करचेलो यत्न करतात. तशेच शिकिल्ले विद्वान आनी पंडितय ताचें वर्णन करून ताचेर व्याख्यानां आनी प्रवचनां दितात. विंगडविंगड भाश्यां ताचेर बरयतात. ब्रह्मा, इंद्र, गोप गोपी, श्रीकृष्ण, शिव, महात्मा बुद्ध, देव, दानव, मुनीजन, भक्तगण, सगळेजाण आपले तांकिप्रमाण भगवंताचें वर्णन करतात. ताका वळखुपाचो यत्न करतात. जायते जाण ताचें स्वरूप सांगपाचो यत्न करतात. जायते जाण परमेश्वराचो सोद घेतां घेतां ह्या संवसारांतल्यान भायर पडटात. पूण तांकां ताचो पार लागना. परमेश्वरान अनंत कोटी जीव जल्माक घाले आनी अनंत जीव निर्माण जाल्यारय कोणाकच परमेश्वराचें पूर्ण ज्ञान जावपाचें ना.

परमेश्वराक स्वत:क जाय तितलो व्हड जावपाक येता. तो अनंत अपार आसा. ताचो थाव कोणाकच लागप शक्य ना. जर कोणूय म्हणत की हय हांवें ताका पूर्णपणान जाणला, तर खुशाल समजुचें हो मनीस मूर्खापरस मूर्ख, म्हामूर्ख आसा.

## पउडी २७ – पांवडो सत्ताविसावो

जो दरु केहा, सो घरु केहा, जितु बहि सरब समाले ।।
वाजे नाद अनेक असंखा, केते वावणहारे ।।
केते राग परि सिउ कहीअनि, केते गावणहारे ।।
गावहि तुहनो, पउणु पाणी बैसंतरु, गावै राजा धरमु दुआरे ।।
गावहि चितु गुपतु लिखि जाणहि, लिखि लिखि धरमु वीचारे ।।
गावहि इसरू बरमा देवी, सोहनि सदा सवारे ।।
गावहि इंद इदासणि बैठे, देवतिआ दरि नाले ।।
गावहि सिध समाधी, अंदरि, गावनि साध विचारे ।
गावनि जती सती संतोखी, गावहि वीर करारे ।।
गावनि पडित पडनि रखीसर, जुगु जुगु वेदा नाले ।।
गावहि मोहणिआ मनुमोहनि, सुरगा मछ पइआले ।।
गावनि रतन उपाए तेरे, अठसठि तीरस नाले ।।
गावहि जोध महाबल सूरा, गावहि खाणी चारे ।।
गावहि खंड मंडल वरभंडा करि करि रखे धारे ।।
सेई तुधनो गावहि, जो तुधु भावनि, रते तेरे भगत रसाले ।।
होरि केते गावनि से मै चिति न आवनि, नानकु, किआ विचारे ।।
सोई सोई सदा सचु, साहिबु साचा, साची नाई ।।
है भी होसी, जाइ न जासी, रचना जिनि रचाई ।।
रंगी रंगी भाती करि करि, जिनसी माइआ जिनी उपाई ।।
करि करि वेखै कीता आपणा, जिव तिस दी वडिआई ।।

जो तिसु भावै सोई करसी, हुकमु न करणा जाई ।।
सो पतिसाहु, साहा पातिसाहिबु, नानक रहणु रजाई ।।२७।।

अर्थः सो = ते; दरू = दार, दरबार; केहा = कशे; जितु = जंय; बहि = बसून; सरब = सगल्या जिवांचो; समाले = सांबाळ करता; वाजे = वाजेतात; नाद = वाद्या; असखा = असंख्य; केते = कितले तरी; वावणहारे = वाजोवपी; परि = राग-रागिण्यो; सिउ = बरोबर, वांगडा, सयत; कहिअनि = सांगतात; गावहि = गायतात, गुणगान करतात; तुहनो = तुका, तुजें; पउणु = पवन, वारो; बैसंतरू = उजो, अग्नी; चितुगुपतु = चित्रगुप्त; लिखिलिखि = बरोवन; धरमु = धर्मराज; विचारू = विचार करप; ईसरू = ईश्वर; बरमा = बरमो, ब्रह्मदेव; सोहनि = सुंदर दिसतात, सोबून दिसतात; सवारे = तुवेंच निर्मिल्ले; इदासणि = इंद्राचें आसन; देवतिआ नाले = देवतांसयत; दरि = दारांत; समाधि अंदरी = समाधी अवस्थेत; साध = साधू; जती = यती; सती = दानी, दान दिवपी; वीर करारे = बळिश्ट, शूरवीर; रखीसर = रुशी, मुनी; मोहणीआ = सुंदर मोह घालपी बायलो; मछ = मातृलोक; पइआले = पाताळांत; उपाएतेरे = तुवें उत्पन्न केल्ले; जोध = झुजारी, योद्धो; महाबळ = बळिश्ट; सुरा = शूरवीर; खाणी चारे = चार योनी (अण्डज, जारज, स्वेदज, उद्भिज); खंड = पृथ्वी; मडळ = सूर्यमंडळ; वरभंडा = ब्रह्मांड; सेई = हे सगळे जीव; तुधनो = तुका; तुधु आवडि = तुका आवडटात; रते = रत जाल्ले, रंगून गेल्ले; से मै चिति न आवनि = ताची म्हाका कल्पनाय करपाक येना; जाइ न जासी = जल्मना; रंगीरंगी = जायत्या रंगांचे; करि करि = उत्पन्न करून; जिनसि = जिन्नस, वस्तु; जिनि = ज्याणें, ज्या परमेश्वरान; उपाई = उत्पन्न केले; करि करि वेखै = उत्पन्न करून तांचो सांभाळ करता; जिव = जशें; करसी = करशीत; न करणा जाई = करूंक येना; रहणु = रावना.

गुरू नानकजीच्या मुखांतल्यान परमेश्वराचो हो म्हयमा आयकतकच शिश्यांच्या मनांत एक जिज्ञासा उत्पन्न जाली. सगल्या विश्वाचो कारभार चलोवपी प्रभू परमात्मो जंय रावता तो प्रासाद, थंयचो दरबार कसो आसतलो, ह्या प्रस्नाची जाप दितना गुरू नानकदेवजी सागतात:

तो तुमचो दरबार, आनी तुमचें घर कशें आसा. जंय बसून तुमी हें सगलें विश्व सांबाळटा. (भगवंताचो एक प्रासाद आसा आनी तातूंत एक दरबार भरला, जंय बसून तो ह्या विश्वाची देखभाल करता.) थंय तरांतरांचीं असंख्य वाद्यां वाजतात आनी वेगळे वेगळे नाद आयकूंक येतात. कित्लेशेच गायक थंय अनेक राग-रागिण्यांच्या आलापांत प्रभूच्या गुणांचो म्हयमा गायतात. पृथ्वी, आकाश, आप (पाणी), तेज, वायू आदी पंचमहाभूतांय ताचेच गूणगान गायतात. त्या प्रासादाच्या दाराचेर धर्मराज गायता आनी परमेश्वराचे गूण गायत चित्रगुप्त सगल्या सृश्टींतल्या जिवांच्या कर्मांची-पाप-पुण्याची नोंद करून धर्मराजाक दिता. धर्मराजय त्याच दरबारांत बसून परमेश्वराच्या चिंतनांत गुल्ल जावन जिवांच्या बऱ्या-वायट कर्मांचो निवाडो करता. शंकर, ब्रह्मदेव, देवी सगळीं थंय गायतात; त्या सगल्यांक तुवेंच सुंदर आनी सोबीत केल्यांत. इंद्र आपल्या इंद्रासनाचेर बसून अनेक देवतांसयत आपल्या दारा सामकार बसून गायत आसा.

सिद्धयोगी, योगसमाधींत मग्न जावन, ताचेंच चिंतन करतात. साधुसंन्यासी बी परमात्म्याचेंच चिंतन करतात. यती, दानी, प्रभून जें दिलां तातूंत समाधान मानून आनी संतोष मानून जगपी जीवय ताचेच गूण गायतात. बळिश्ट शूरवीर सदैव ताचोच जयजयकार करतात. अनेक विद्वान पंडित,

रुशीमुनी, महर्शी युगांकणकणीं वेदमंत्रां वरवीं ताचोच म्हयमा गायतात. आकाश, पाताळ आनी पृथ्वी ह्या तीनय लोकांतल्यो अप्सरा, आपल्या मनभुलवण्या आंगविक्षेपांनी आनी सुमधुर आवाजान, ताचेंच व्हडपण गायतात. क्षीरसागराच्या मंथनांतल्यान वयर सरिल्लीं चवदा रत्नां, आडसश्ठ तीर्थां ताचोच म्हयमा गायतात.

महाबळिश्ट शूरवीर, तुवें निर्मिल्ले चार योनींतले सृश्टींतले सगळे जीव ताचेंच स्मरण करतात. ही सगळी पृथ्वी, सूर्यमंडळ, ब्रह्मांड ताचेच कृपेन चलता. गुरू नानकदेव म्हणटात: हे भगवंता, जे जीव तुका आवडटात तेच तुज्या गूणगायनांत मग्न जाल्यात. आजुनय अनेक लोक तुज्या गायनांत आनी स्तवनांत गुल्ल जाल्यात. तांची गणटी करप म्हजे तांकी पेल्यानचें.

सृश्टी निर्माण केल्लो परमात्मो आजय सत्य आसा आनी सदांच सत्य आसतलो. तो अजल्मो, अमर, अनंत आसा. तो अटळय आसा. ताचें व्हडपण सदांच तिगतलें. जाणें ही सृश्टी निर्मिली, तो खंयच वचचोना वा ताका कोणूच वच म्हणून सांगचोना.

ज्या परमात्म्यान ही विविध रंगयाळी सृश्टी, तरांतरांच्या वस्तूंची आनी जिन्नसांची सृश्टी उत्पन्न केली, ही मायारुपी सृश्टी घडयली तो ही आपणेंच घडयल्ली सृश्टी, परती परती घडोवन पळेत रावता. ताका योग्य दिसता तेंच तो करता. तो तटस्थपणान आनी साक्षीभावान ती सांबाळटा. ताका जाय तेंच तो करतलो. ताका शिकोवपाची, ÷तूं अशें कर, अशें करूं नाका' अशें सांगपाची कोणाकडेन तांक ना. ताका कोणूच हुकूम दिवंक शकना. तो सर्वेश्वर. तो बादशहांचो बादशाह आसा. नानक म्हणटा: ताचेच इच्छेप्रमाण आमी आमचें जिवीत जगपाक जाय आनी ताचे कृपेक पात्र जावपाक जाय.

## पउडी २८ – पांवडो अठ्ठाविसावो

मुंदा संतोखु, सरमु पतु झोली, धिआन की करहि बिभूति ।।
खिंथा कालु, कुआरी काइआ जुगति, डंडा परतीति ।।
आई पंथी, सगल जमाती, मनि जीतै जगु जीतु ।।
आदेसु, तिसै आदेसु ।।
आदि अनीलु अनादि अनाहति, जुगु जुगु एको वेसु ।।२८।।

अर्थः मुंद्रा = मुद्रा; आई पंथी = योगी कानांत घालता तीं कुंडला; सतोख = संतोश; सरमु = स्रम, उद्येग, वावर, कर्म; पतु = पात्र, भिक्षापात्र; धिआन = ध्यान; बिभूति = बिभूत, गोबर; खिंथा = कांबळ, गोधडी; कालु = काळ, मरण; कुआरी काइआ = ब्रह्मचर्य, विशयां पसून मुक्त आशिल्ली कूड वा शरीर; जुगति = युक्ती; परतीति = प्रचिती, विस्वास; आईपंथ = योग्यांचो एक पथ; सगल = सगले जीव; जगु जीतु = जग जिखलें; आदेसु = नमस्कार, प्रणाम; तिसै = त्या परमेश्वरा पर्यंत; आदि = आद्य, पयलो; अनिलु = पवित्र, शुद्ध स्वरूप; अनादि अनाहति = अविनाशी; जुगुजुगु = प्रत्येक युगांत; वेसु = वेश, रूप

करतापूर हांगा मुक्काम करतना, थंय काय ÷आई' पंथी योगी आयले. तांणी गुरू नानकदेवजीक काय प्रस्न विचारले. हे योगी ÷आई' पंथाचें चिन्न म्हूण कानांतलीं (कुंडलां) घालतात, जांका मुद्रा म्हणटात. आंगभर बिभूत लायतात, हातात भिक्षापात्र (कटोरो), खांद्याक झोळी, हातात दांडो, आंगाचेर कांबळ पांगुरतात. अश्या ह्या योग्याक गुरू नानकदेवजी ह्या भायल्या चिन्नाचो अध्यात्मीक अर्थ समजावन दितना अशें सांगतातः

योग्यांनो, तुमच्या कानांतलीं कुंडलां (मुद्रा) संतोशाचें चिन्न. परमेश्वरान जें दिलां तातूंत संतोश मानून ताच्या नामांत मग्न रावचें. तुमच्या हातांतली झोळी म्हळ्यार कर्म मार्गाचें प्रतीक. सदांच स्रम करीत रावचें. खंयच्याय फळाची अपेक्षा धरची न्हय. नमळायेन वागचें. ध्यान हीच आमची बिभूत. सगळे मायेंतल्यान मुक्त जावचें अशें ही बिभूत आमकां शिटकायता. तुमी आंगार घेतिल्ली पोरणी झिरझिरील्ली कांबळ म्हणचे तुमकां मरणाची याद करपी काळ. सृश्टी सगली नश्वर. तिचो नाश जातलो. योग्यांची युक्ती म्हळ्यार प्राणायाम साधना. ती साधना कुडीचें ब्रह्मचर्य राखपाक करपाक जाय. ताका लागून शरीर पवित्र, निर्दोश आनी पापमुक्त जातलें. हातांतलो दांडो हें आत्मप्रतितीचें चिन्न. आत्मानुभवाच्या आधारान योग्यांनी चलपाक जाय. ह्या चिन्नांचो गूढ अर्थ समजून घेतल्यारच तुमी ÷आईपंथी' म्हणून घेवपाक पात्र जातले. जे ÷आईपंथां'त येतले ते आमचेच जातले. सगळें विश्व, सगळी मानवजात आमची. ज्याणें आपलें मन जिखलां तोच खरो आईपंथी जातलो. कित्याक जाणें आपलें मन जिखलें, ताणें सगळें जग जिखलें. मन जिखल्यार सृश्टींतल्या सगळ्या जिवांबद्दल समभाव निर्माण जाता. खरो आईपंथी योगी सगळ्या जिवांचेर सारकोच मोग करता.

नानक म्हणटा: आमी आदी परमेश्वराक प्रणाम करूंया. हो परमेश्वर निर्मळ, वर्ण विरयत, रूप विरयत आसा. तो परमेश्वर अविनाशी आसा. तो युगांयुगांनी एकच वेश घालता. संवसार बदलता, काल बदलता, पूण तो परमेश्वर केन्नाच बदलना.

## पउडी २९ – पांवडो एकोणतिसावो

भुगति गिआनु, दइआ भंडारणि, घटि घटि वाजहि नाद ।।
आपि नाथु, नाथी सभ जा की, रिधि सिधि अवरा साद ।।
संजोगु विजोगु दुइ कार चलावहि, लेखे आवहि भाग ।।
आदेसु तिसै आदेसु ।।
आदि अनीलु अनादि अनाहति, जुगु जुगु एको वेसु ।।२९।।

अर्थ: भुगति = जेवण, भोजन; भंडारणि = जेवण वाडपी; गिआनु = ज्ञान; दइआ = दया; घटिघटि = प्रत्येक शरीरांत; आपि = स्वत: परमेश्वर; नाथु = परमेश्वर; नाथी = परमेश्वराक वश जाल्लो; अवरा = हेर, देवापसून पयस व्हरपी; साद = सुवाद; संजोगु = संयोग, मिलन; विजोगु = वियोग; कार = संवसाराचो वेव्हार; चालवहि = चलयतात; लेखे = प्राक्तन; केल्ल्या कर्माप्रमाण; आवहि = मेळटा; भाग = वांटो, आपल्या कर्माप्रमाण मेळपी फळ.

नाथपंथी योग्यांमदीं भंडाऱ्याची चाल आसा. भंडारा म्हळ्यार शिजयल्लें अन्न वांटप. पुणून भंडारा म्हळ्यार फकत अन्न सेवन न्हय. परमेश्वरान केल्ले सृश्टीचें ज्ञान. परमेश्वराच्या कर्तुम–अकर्तुम शक्तीचें ज्ञान. परमेश्वराच्या खऱ्या स्वरुपाचें ज्ञान. होच खरो ÷भंडारा'. परमेश्वरान निर्मिल्ल्या सगळ्या जिवांविशीं प्रेमभाव आसप, दया आनी करुणा दिसप. म्हणून ज्ञान होच भंडारा (शिजयल्लें अन्न) आनी दया म्हळ्यार तें ज्ञान वांटपी (भंडारणि). प्रत्येक जिवाच्या स्वासांतल्यान ÷सोऽहं' ध्वनी येता. ताचें चिन्न म्हळ्यार योग्यांच्या गळ्यांत घाल्लें शिंग. ह्या ध्वनीनादांतल्यान ईश्वर आनी आमी सगळे एकरूप आसान

हो संदेश आमकां मेळटा.

भगवंतच आमचो नाथ. ताणें ही सगळी सृश्टी आपले स्वाधीन दवरल्या. योग सामर्थ्यान रिद्धी सिद्धी मेळोवन जे भौतिक गजाली मेळयतात, तें खरें न्हय. हे मायेचे खेळ. ताका लागून अहंकार बळावता आनी तो अहंकार मनशाक परमेश्वरापसून पयस व्हरता. म्हणून रिद्धी–सिद्धी पासून सावध रावपाक जाय.

संयोग आनी वियोग हो हे सृश्टीचो नेम. तांच्या आधारान हे सृश्टीचो कारभार चलता. संयोगांतल्यान नवे नवे जीव उत्पन्न जातात, परिवार वाडटा. एकामेकांविशीं प्रेम वाडटा, सूख वाडटा. पूण कालांतरान तांचो वियोग जाता. मनीस दुःखी जाता. हें चक्र अशेंच चालू आसता. हें सगलें त्या परमेश्वराचेच इच्छेन चालू आसता. प्रत्येकाक ताणें केल्ल्या कर्माचें फळ मेळटा. नामस्मरणान हें ज्ञान मेळटा. म्हणून मायेच्या पासांत घुसपून पडनासतना नामस्मरण करचें. त्या अनादी, अनंत, अविनाशी, स्थीर रावपी परमेश्वराच्या हुकुमाप्रमाण जिवीत सारचें. होच परमेश्वरामेरेन पावपाचो एकूच मार्ग आसा.

## पउडी ३० – पांवडो तिसावो

एका माई, जुगति विआई, तिनि चेले परवाणु ।।
इकु संसारी, इकु भंडारी, इकु लाए दीबाणु ।।
जिव तिसु भावै, तिवै चलावै, जिव होवै फुरमाणु ।।
ओहु वेखै, ओना नदरि न आवै, बहुता एहु विडाणु ।।
आदेसु तिसै आदेसु ।।
आदि अनीलु अनादि अनाहति जुगु जुगु एको वेसु ।।३०।।

अर्थः एका = एकटी; माई = आवय, माया; जुगति = युक्ती; विआई = वियेली, पसवली, प्रसूत जाली; तिनी = तीन; परवाणू = प्रत्यक्ष दाखयली; जीव = जशें; तिसु = ताका; एका परमेश्वराक; भावै = दिसत; तिवै = ते प्रमाण; चलावै = चलयता; ओहु = परमात्मा; वेखै = पळयता, थारायता, इच्छा करता; ओना = जीवांक; नदरि न आवै = नदरेक दिसना; एहु = हेंच; विडाणु = अजाप.

एक विश्वाची ÷माई' (आवय) आसा जिका वेदान्तांत ÷माया' म्हणटात. तिणें युक्तीन प्रसूत जावन तीन पुतांक जल्माक घाले. ते म्हणजे ब्रह्मा, विष्णू, महेश. ते मायेचे आधीन आशिल्ल्यान स्वतः कांयच करूं शकनात. कितें अजापाची गजाल ती पळेयात. आमी म्हणटात ब्रह्मो उत्पन्न करता, विष्णु पालन पोशण करता, शिव सांवार करता. पुणून खरी गजाल म्हळ्यार ते तिगूय आपले इच्छेन, आपले शक्तीन कांयच करूं शकनात. तो जगतचालक परमेश्वर तांकां जसो आदेश दिता, तशे ते करीत आसतात.तांच्या हातांत कांय नासता.

कर्तो–करून घेवपी तो एकमात्र परमेश्वर. तो सगळें पळेता. ताका सगळें दिसता. पुणून ताका मात कोणूच पळोवंक शकना. तो केवळ शुद्धस्वरूप आसा. आदी आसा, अनादी, अनंत आसा. सदांच एका रुपान स्थीर आसा. म्हणून सदांच ताचेंच स्मरण करप होच प्रभू प्राप्तीचो एकूच मार्ग आसा.

## पउडी ३१ – पांवडो एकतिसावो

आसणु लोइ लोइ भंडार ।। जो किछु पाइआ, सु एका वार ।।
करि करि वेखै सिरजणहारु ।। नानक, सचे की साची कार ।।
आदेसु, तिसै आदेसु ।। आदि अनीलु अनादि अनाहति,
जुगु जुगु एको वेसु ।।३१।।

अर्थ: आसणु = आसन, स्थान; लोइलोई = प्रत्येक सुवातेचेर; भंडार = भांडार, कोठी; पाइआ = दवरलें; करिकरि = जिवाची उत्पत्ती करून; वेखै = सांभाळ करता; सिरजण हारू = सृश्टी निर्मुणी, परमेश्वर; साची = सदां स्थीर आसपी, परमेश्वर; कार = वेव्हार.

गुरू नानकाचो उपदेश आयकून शिश्यांच्या मनांत प्रस्न उप्रासलो. परमेश्वर खंय रावता ? तो हे सृश्टींतल्या जिवांचें पालन पोशण कशें करता ? गुरू नानकदेव सांगतात:

तो सगलेकडेन भरला. जळीं मळीं तो रावता. तो ना अशी एकूय सुवात सोदून मेळपाची ना. ताचें भांडार सगळे कडेन भरलां. आनी जें कितें ताणें निर्मिलां तें एकाच वेळार करून दवरलां. सगली सृश्टी निर्मितना सगळ्या जिवांच्यो सगळ्यो गरजो पुराय करपाची सगळी वेवस्ता ताणें त्याच वेळार केल्या. उदकाचे सांठे, झरी, न्हंयो, फुलां–फळांनी भरिल्ले रूख, हींच ताचीं भरिल्लीं कोठारां. तीं कोणाक कांयच उणें पडूंक दिनात. ईश्वरा, तुजी लीला अगाध आसा. अश्या ह्या अनादी, अनंत, अचल, स्थीर, अव्यक्त परमेश्वराचें सदांच स्मरण करचें आनी ताचे आज्ञेंत सदांच रावचें.

## पउडी ३२ – पांवडो बत्तिसावो

इक दू जीभौ लख होहि, लख होवहि लख वीस ।।
लखु लखु गेडा आखीअहि, एकु नामु जगदीस ।।
एतु राहि पति पवडीआ, चडीऐ होइ इकीस ।।
सुणि गला आकास की, कीटा आई रीस ।।
नानक नदरी पाईऐ, कूडी कूडै ठीस ।।३२।।

अर्थः इक्दू = एकेपासून; जिभो = जीब; होहि = जातल्यो; गेडे = फेऱ्यो; आखीअहि = वर्णन करून सांगप; एतु राहि = ह्या मार्गाचेर; पति पवडीआ = पांवडे, पायऱ्यो, सोंपणां; चडिऐ = चडटात; हो इकीस = एकरूप जावप; सुणि = आयकून; नदरी = परमात्म्याची कृपादिश्टी; कुडै = फट मनीस, पापी मनीस, दांभिक; कुडी ठीस = आपली आपुणच तोखणाय करप.

परमेश्वरान मनशाक परमेश्वराचे गूण गावपाक एकूच जीब दिल्या. हे जिबेच्यो लाख जिबो जाल्यो जाल्यार, ते प्रत्येक जिबेच्यो आनीक लाख जिबो जाल्यो, तर ह्या लाखांनी जिबांनी त्या परमेश्वराचें, त्या जगदीशाचें नामस्मरण करून हांव त्या जगदीशाक मेळयतलों, अशें कोणाक दिसत जाल्यार तो ताचो पोको अहंकार. अशें करून देव मेळना. तुमी ताचें दर्शन एकदां घेतात काय लाखांनी वेळा घेतात, ताका कांयच मोल ना. तुमी खंयच्या भावान हें करतात तें म्हत्वाचें. परमेश्वराचें वर्णन आयकतकच एका क्षुद्र किड्याक आपूण आकाशांत उंच उडून, आपले तांकीचेर परमेश्वरामेरेन पावूं अशें दिसता. पूण तें शक्य जायत काय? हय, त्या किड्याचेर परमेश्वराची

कृपा जायत जाल्यारच तें शक्य जातलें. आमची स्थिती त्या क्षुद्र किड्यावरीच आसा. आमी आमचो अहंकार सोडून परमेश्वराक शरण गेल्यार आनी ताची कृपा जोडल्यार आमचो उद्‌धार जातलो. आमी ईश्वरा म्हज्यांत पावतले.

परमार्थाच्या मार्गाचेर, ईश्वर प्राप्तीच्या मार्गाचेर आतां मेरेन ज्या पायऱ्यांची विसकावणी केल्या, तातूंत म्हत्वाची गजाल म्हळयार अहंकाराचो त्याग. अहंकाराचो त्याग करून पुराय समर्पणाच्या भावान जर प्रत्येक पायरी चडली जाल्यारच तुमी परमेश्वराचे कृपेक पात्र जातले अशें गुरू नानकदेवजी सांगतात.

परमेश्वरान तुमचेर कृपा केल्यारच तुमचें जिवीत सफळ जातलें. ना जाल्यार हांवें लाखदां नामजप केलो असो खोटो दंभ तुमी मिरयतले.

## पउडी ३३ – पांवडो तेत्तिसावो

आखणि जोरु, चुपै नह जोरु ।। जोरु न मंगणि, देणि न जोरु ।।
जोरु न जीवणि, मरणि नह जोरु ।। जोरु न राजि मालि मनि सोरु ।।
जोरु न सुरती गिआनि वीचारि ।। जोरु न जुगती छुटै संसारु ।।
जिसु हथि जोरु, करि वेखै सोइ ।। नानक, उत्तमु नीचु न कोइ ।।३३ ।।

अर्थ: जोरू = बळ, सामर्थ्य, नेट; आखणि = उलोवप; चुपै = मौनांत रावप; मंगणि = मागणें; देणि = दान दिवप; जीवणि = जल्माक येवप; मरणि = मरण येवप; राजिमालि =आत्मीक जागृती; सोरू = उत्साह, उर्बा; गिआनि = ज्ञानी, गिन्यानी; जुगति = युक्ती; छुटै = सुटप; सुटका जावप; जिसु हथि = जाच्या हातांत, परमेश्वराच्या हातांत; सोई = तोच परमात्मो.

आतां भगवंताक समर्पण करचें आसा. ताचे खातीर अहंकार त्यागपाक जाय. ÷हांवें हें केलें, तें केलें’ ही सगळी माया. आमी जें केलें तें सगळें ताणेंच आमच्या हातांतल्यान करून घेतलें. ताचेच इच्छेन हें घडलें. मनशाच्या अहंकाराचो नेट (जोरू) हांगा चलपाचो ना. देवाचे गूण गावपांत नेट चलचोना; मौनांत रावनय चलचोना; अंतस्कर्णांत आमी चुप्प आसपाक जाय. मागपांत, दिवपांत, जियेवपांत, मरपांत कांयच नेट आसपाक जायना. राजमहालांत रावपांत वा सत्ता मेळोवपांत वा पैसो जोडपांतय नेट आसूंक जायना. आमी कोण जावंचें हें ताचेच इच्छेचेर निंबून आसा. पुणून सामान्यतायेन मनशाक दिसता की जें कितें आपणें जोडलां तें आपल्याच बळाचेर जोडलां. थंयच आमचें चुकता.

आमचे अध्यात्मीक प्रगतीविशीं हेंच लागू पडटा. परमेश्वरा विशीं आमच्या मनांत जायती उर्बा व़ा उत्साह (सोरू) आसत. ज्ञान मेळोवपात, विचार करपांत, चित्ताचे तन्मयतेंत, आमचो नेट चलचोना. संवसारांतल्यान हांव सुट्टलों आनी ताचेखातीर म्हजी साधना चलता होवूय नेट चलपाचो ना. जाच्या हातांत नेट, बळ वा सामर्थ्य आसा, तो भगवंतच सगळें करता. तोच आपलीं भुरगीं कशीं चलतात हें नियाळटा. हेच खातीर नानक म्हणटातः ह्या संवसारांत कोणच वरतो ना, उणाक ना वा नीच ना. भगवंताचो जाचेर अनुग्रह जाता, तोच उंच वा वरतो जाता. जाचेर ताची अवकृपा जाता, तो नीच वा उणाक जाता.

ही सृश्टी परमेश्वरानच निर्मिल्या. तोच तिचो सांभाळ करता. ताचेच इत्सेन हें सगळें चलता. ताचेंच नामस्मरण आमी करूंक जाय. होच ईश्वर प्राप्तीचो एकूच मार्ग.

## धर्मखंड

### पउडी ३४ – पांवडो चवतिसावो

राती रुती थिती वार ।। पवण पाणी अगनी पाताल ।।
तिसु विचि, धरती थापि रखी धरम साल ।।
तिसु विचि, जीअ जुगति के रंग ।।
तिन के नाम, अनेक अनंत ।। करमी करमी होइ वीचारु ।।
सचा आपि, सचा दरबारु ।। तिथै सोहनि पंच परवाणु ।।
नदरी करमि पवै नीसाणु ।। कच पकाई, ओथै पाइ ।।
नानक, गइआ जापै जाइ ।।३४।।

अर्थ: राती = रात; रुती = रुतू; थिती = तीथी; पवण = पवन, वारो; तिसु विची = ह्या सगळ्यांमदीं; थापिरखी = निर्मिलें; धर्मशाळा = धर्मभूंय, मंदिर; तिसुविची = ह्या भूतकाळाचेर.

आतां ÷जपुजी' समाप्तीचेर पावला. निमाण्या पांच ÷पउडीं'त साधकाचे प्रगतीचे मार्ग सांगल्यात. ह्या पांच सोंपणांतल्यान त्या साधकाची अध्यात्मीक प्रगती कशी जातली हाचें विवेचन केलां. ह्या प्रत्येक सोंपणाक ÷खंड' हें नांव दिलां. खंड म्हळ्यार भाग वा वांटो. पयल्या खंडाक धर्मखंड अशें म्हळां. धर्मखंडांत साधकाचे नैतीक लागणुके विशीं विवेचन केलां.

त्या प्रभू परमेश्वरान ही सृश्टी निर्मितकच दीस, रात, रुतू, तिथी, सात वार आदींसयत कालचक्र निर्माण करून तातूंत आप, तेज, वायूसयत पाताळय

निर्मिलें. हाचेमदीं ताणें पृथ्वी उत्पन्न केली आनी तिची धर्ममंदीर म्हूण स्थापना केली. हे पृथ्वीचेर भगवंतान तरांतरांच्या स्वभावाचे जीव-जंतू, रूख इत्यादी उत्पन्न केले. तांचीं नांवां अनेक आनी अनंत आसात. (परमेश्वरान काल आनी दिक् हांचे मदीं धर्माचरणा खातीर पृथ्वीची स्थापना केल्या. म्हणचे, धर्मान चलपाखातीरच हांगा ताणें आमकां जल्माक घाल्यात.

हे पृथ्वीचेर जल्माक आयिल्ल्या प्रत्येक जिवाक प्रभू परमेश्वरान आपलें कर्तव्य नेमून दिलां. आपलें कर्तव्य करतना ताणें धर्मान चलचें ही परमेश्वराची इत्सा. आमच्या प्रत्येक कर्माची नोंद परमेश्वर दवरता. तातूंत हो मातूय चूक करिना.

परमेश्वर सत्य आसा आनी ताचो दरबारय सत्य आसा. थंय आमची आमी केल्ल्या कर्माप्रमाण परिक्षा जातली. थंय जो न्याय जातलो तो प्रामाणीक पंचांचे साक्षीन जातलो. हे पंच आमच्या कुडींतच आसात. ते म्हळ्यार आमचीं पांच इंद्रियां. जाचेर परमेश्वराची कृपादिश्टी जातली तो पास जालो असो शिक्को ताचेर बसतलो. बरे कोण आनी वायट कोण हेंय हांगाच थारतलें. आमचीं कर्मां आमी खंयच्या हेतून केल्यांत हेंय हांगाच थारतलें. ते प्रमाण आमची पारख जातली. आमची पारख आमी करूंक शकचेनात. आमची पारख ताच्या दरबारांत जातली. हाकाच कर्मखंड म्हणलां. नानक म्हणटात, आमी त्या दरबारांत पावतकच आमकां हें कळटलें.

## ज्ञानखंड

### पउडी ३५ – पांवडो पस्तिसावो

धरम खंड का एहो धरमु ।।
गिआन खंड का आखहु करमु ।।
केते पवण पाणी वैसंतर, केते कान महेस ।।
केते बरमे घाडति घडीअहि, रूप रंग के वेस ।।
केतीआ करम भूमी, मेर केते, केते धू उपदेस ।।
केते इंद चंद, सूर केते, केते मंडल देस ।।
केते सिध बुध नाथ केते, केते देवी वेस ।।
केते देव दानव, मुनि केते, केते रतन समुंद ।।
केतीआ खाणी, केतीआ बाणी, केते पात नरिंद ।।
केतीआ सुरती, सेवक केते, नानक, अंतु न अंतु ।।३५।।

अर्थः आखहु = समजून घेवया; केते = कितले तरी, अनंत; वैसंतर = अग्नी; कान = कान्हा, कृष्ण; घाडति घडी अहि = घडयतात, निर्माण करतात; के वेस = अनेक वेश, अनेक तरा; धू = ध्रूव भक्त (ध्रुवासारकी अढळ निश्टा आसपी भक्त); धू उपदेस = निश्ठावंत भक्तांचो उपदेश; मंडळ देश = ब्रह्मांड; पात = बादशहा; नरिंद = नरेंद्र, राजा; सुरती = विचार.

हें धर्मखंडाचें स्वरूप, जंय धर्माचरण आसता. (साधकान पयलीं निती–अनितीचो विचार करून आपलें आचरण शुद्ध करपाक जाय) ही नितीची

भूमिका. हाचे उपरान्त ज्ञानखंड सांगला जातूत ज्ञानाची भूमिका विसकायल्या.

धर्मखंडांत साधकान नैतीक विवेक, सत्य–असत्याची पारख, सत्याचो आग्रो, असत्याचो निशेध हांचो विचार करपाक जाय म्हूण सांगलां. हाचे उपरान्त नानक ÷ज्ञानखंडा'कडेन आमचें लक्ष वेधतात. मनशाची बुद्धी तटस्थ जातकच ज्ञानखंडाची सुरवात जाता. हे ज्ञानभुयेंत मनशान तटस्थपणान, साक्षीरूप जावन विचार करपाक जाय असो धर्मखंडाचो धर्म.

आतां ज्ञानखंड आमी समजून घेवंया.

अनंत पवन, आप आनी अग्नी! अनंत कृष्ण आनी शिव!<br>
अनंत बरमे (ब्रह्मा) जांणी घडयलीं विश्वां!<br>
अनंत आकार, रंग आनी भेस।<br>
कितल्यो कर्मभूमी जांकां धर्मभूमी म्हळयात!<br>
कितले ध्रुव आनी ताचे सारके उपदेश करपी।<br>
कितले इंद्र, चंद्र आनी सूर्यमंडळां आनी देश।<br>
कितले सिद्ध, बुद्ध कितले नाथ! कितल्यो देवी आनी देवता।<br>
कितले देव दानव मुनी! कितलीं रत्ना कितले समुद्र।<br>
कितल्यो योनी! कितल्यो वाणी (भाशा)!<br>
कितले बादशहा आनी कितले राय!।<br>
कितलें दिव्य ज्ञान जाणपी ज्ञानी! कितले सेवक!

नानक म्हणटा हे सेवक अनंत आसात.

धर्मखंडाचें विवेचन जातकच, अदीक विचार करतकच, भक्ताच्या हें लक्षांत येता की प्रभून निर्मिल्ली पृथ्वी एके सूर्यमाळेंत फिरता. ती सूर्यमाळ

एका ब्रह्मांडात आसपावल्या. हें फकत एकच ब्रह्मांड परमेश्वरान निर्मूंक ना. अशीं अगणित, अनंत ब्रह्मांडां आसात आनी त्या सगळ्यांचो कारभार तो शिस्तीन चलयता.

मनीस आपणाक सर्वश्रेश्ठ समजता आनी आपलें कर्तुब आनी अहंकार मिरयता. पुणून त्या परमेश्वरान निर्मिल्ली हीं अनंत ब्रह्मांडां आनी तातुंतले अनत ब्रह्मा, विष्णू, महेश, इंद्र, हेर देवदेवता, सुर, असूर, दानव, सिद्ध, बुद्ध, नाथ, निश्टावंत ध्रुवासारके भक्त, राजे-म्हाराजे हें सगळें कल्पनेपेल्यानचें हें पळेतकच मनीस प्रभू परमेश्वरा मुखार तकली बागयता. आपलें क्षुद्रपण ताका जाणवता. ताची दिश्टी विशाल जाता. हांव, म्हजें कुटुंब इतलीच संकुचित भावना वचून तो सगळ्या समाजाचें चिंतपाक लागता. अशे रितीन ÷ज्ञानखंडां'त व्यक्तीची उन्नती व्यष्टीकडल्यान समश्टी मेरेन आनी समश्टी कडसून परमेश्टी मेरेन जाता.

## श्रमखंड

## पउडी ३६ - पांवडो छत्तिसावो

गिआन खंड महि, गिआनु परचंडु ।। तिथै, नाद बिनोद कोड अनंदु ।।
सरम खंड की बाणी रूपु ।। तिथै घाडति घडिए, बहुतु अनूपु ।।
ता कीआ गला, कथीआ न जाहि ।। जे को कहै पिछै पछुताइ ।।
तिथै घडीऐ, सुरति मति मनि बुधि ।।
तिथै घडीऐ, सुरा सिधा की सुधि ।।३६।।

अर्थः महि = मदीं; परचंडु = प्रचंड; तिथै = थंय, ज्ञानखंडांत; नाद = कला, ललीत कलांत; बिनोद = विनोद; अनंदु = आनंद; सरम = स्रम; बीणी = घडण; रूप = सौंदर्य, सुंदराय; घडति घडीये = घडयलें वता; बहुत अनूपु = अती सुंदर; ता कीआ = ते अवस्थेचें; कथिआ न जाहि = सांगप शक्य ना; पिछै = मागीर; पछुताई = पच्छाताप जातलो; घडिऐ = घडयल्लें वतलें; मतिबुधि = मनांत जाग्रुती; सुरा = ईश्वर; सिधा = सिद्ध; सुधि = वृत्ती.

हे पउडींत ज्ञानखंडाच्या विशयांची विसकावणी केल्या. हे ज्ञानभूमिकेंत मनशाक प्रचंड ज्ञान मेळटा. ज्ञानखंडांत सगलें ज्ञान, विज्ञान, लळीत कलांच्या माध्यमांतल्यान मन आनंदान भरून वता. सगळ्या विश्वाच्या रहस्याची अनुभूती मनशाक ताच्या अंतर्मनांत जाता. भायल्या इंद्रियांच्या पालवान, तर्काच्या आधारान, जशें सृश्टीचें ज्ञान जाता, तशें अंतर्मनाचें नासता. अंतर्मनांत तर्का पेल्यो गजाली घडटात. थंय तरांतरांचे नाद, अंत:शब्द, विनोद, लळीत कला हांचें दर्शन जाता. मनशाक आनंद-निधान मेळटा. ह्या

अनुभूतींच्या काळांत ज्ञानाचें प्रचंड भांडार मेळटा आनी ताचे बुद्धीचो पूर्ण विकास जाता. ताचे उपरान्त मनीस श्रमखंडांत प्रवेश करता. श्रमखंडांत मनशाच्या मनाचो आनी हृदयांतल्या भाव-भावनांचो विकास जाता. ज्ञानखंडांत प्रभू-परमेश्वराच्या प्रचंड व्यापाची आनी ताणें निर्मिल्ल्या विश्वाचे रचनेचें ज्ञान जातकच, मानवाच्या क्षुद्रतायेची जाणविकाय ताका जाता. मागीर ताका परमेश्वरान उत्पन्न केल्ल्या सगळ्या जिवांविशीं प्रेम आनी ममत्व उत्पन्न जाता. सगळ्या विशयविकारांविशीं उवेखणी दिसूंक लागता. तातूंत अर्थ ना अशें दिसतकच, साधक तांचेकडेन अलिप्तपणान पळेता. श्रमखंडांत जिवाचो परमेश्वराकडेन वचचेलो मार्ग सुरू जाता. हो ताचे जडण-घडणेचो काळ. ती जडण-घडण कशी जाता तें सांगप अवघड. पुणून ह्या मार्गाचेर तो जसो जसो फुडें वता, तसो तसो ताचे वृत्तींत, करणेंत बदल जाता. तो स्वत:चो स्वार्थ विसरता. प्रभू परमात्म्याचे रचनेकडेन एकरूप जाता. अंतीं तो परमेश्वराचे म्हऱ्यांत पावता. तो ÷सच खंडां'त (सत्य खंडांत) पावता.

## करमखंड
## परमेश्वराची कृपा

### पउडी ३७ – पांवडो सात्तिसावो

करम खंड की बाणी जोरु ।। तिथै, होरु न कोई होरु ।।
तिथै, जोध महाबल सूर ।। तिन महि रामु रहिआ भरपूर ।।
तिथै, सीतो सीता, महिमा माहि ।। सीता के रूप, न कथने जाहि ।।
ना ओहि मरहि न ठागे जाहि ।। जिन कै, रामु वसै, मन माहि ।।
तिथै भगत वसहि, के लोअ ।। करहि अनंदु, सचा मनि सोइ ।।

### सचखंड

सच खंडि वसै निरकारु।। करि करि वेखै, नदरि निहाल।।
तिथै, खंड मंडल वरभंड ।। जे को कथै, त अंत न अंत ।।
तिथै, लोअ लोअ आकार ।। जिव जिव हुकमु तिवै तिव कार ।।
वेखै विगसै, करि वीचारु ।। नानक, कथना करडा सारु ।।३७।।

अर्थः करम = कृपा; बाणी = घडण; जोरू = बळ, नेट; होरू = परमेश्वराशिवाय हेर; जोध = झुजारी; महाबळ = बळिश्ट; सूर = शूरवीर; महि = तातूंत; रामू = राम, परमेश्वर; रहिआ = भरपूर, सर्वांसर्वांत भरिल्लो; सितो सीता = पुराय एकरूप जाल्ला; त अंतन अंत = ताचो अंत लागना; विगसै = आनन्द जाता; सारू = सार, सत्त्व; करडा सारू = लोखंडासारकें कठीण.

अशे तरेन मोहमायेच्या पासातल्यान मुक्त जाल्ल्या साधकाचेर प्रभूची पूर्ण कृपा जाता. ताच्या आंगांत अध्यात्मीक शक्ती उत्पन्न जाता. विशय वासनेचो प्रभाव ताचेर पडना. ताच्या मनांत परमेश्वरा शिवाय हेर कसलेच विचार येनात. साधक भक्त आनी परमेश्वर एकरूप जातात. अश्या भक्ताक परमेश्वरा पासून कोणूच पयस व्हरूंक शकनात. तो परमेश्वरा कडेन पूर्ण रुपान एकरूप जाल्लो आसता. परमेश्वर (राम) ताच्या हृदयांत वसती करता.

हे अवस्थेक पाविल्लो साधक परमेश्वराच्या गूण कीर्तनांत गुल्ल जाता. तो स्वत:चो देह विसरून तो प्रभू सेवेंत मग्न जाता. परमेश्वर ताचो सांबाळ करता.

सत्यखंडांत (सत्यलोकांत) पाविल्ल्या साधकाक अनंत मंडळां, अनंत खंड आनी अनत ब्रह्मांडांचें दर्शन जाता. ह्या सगळ्यांचे वेव्हार परमेश्वराचेच आज्ञेप्रमाण जातात अशें तो पळेता. परमेश्वर सगळ्या जीवांचो जतनायेन सांबाळ करता हें तो अणभवता. मागीर हो साधक स्वताकय प्रभू चरणीं समर्पित करता आनी ताचे आज्ञेंत रावचेलो यत्न करता. सत्यलोकांत पाविल्ल्या साधकाचो कर्मलेख प्रभू परमात्मो स्वत:च्या हातान बरयता आनी आपले मदीं ताका लीन करून घेता. नानक म्हणटा, अश्या प्रभूमय जाल्ल्या साधकाचें वर्णन करपाक सगळे शब्द पावचेनात.

## निमाणो उपदेश

## पउडी ३८ – पांवडो आठ्ठिसावो

जतु पाहारा, धीरजु सुनिआरु ।। अहरणि मति, वेदु हथीआरु ।।
भउ खला, अगनि तप ताउ ।। भांडा भाउ, अंम्रितु तितु ढालि ।।
घडिऐ सबदु, सची टकसाल ।। जिन कउ नदरि करमु तिन कार ।।
नानक, नदरी नदरि निहाल ।।३८।।

अर्थ: जतु = इंद्रिय निग्रह; पाहारा = सोनाराचें दुकान; मति = बुद्धी; धीरजु = धीर; अहरणि = ऐरण; वेदु = ज्ञान; हथिआरू = तुतयो, हातोडी; भउ = भंय; खली = फुंक्पाची नळी; तप ताउ = तापोवप; भाऊ = भाव, प्रेम; भाडा = मूस; तितू = ते मुशींत; सबदु = प्रभुनाम; जिन कऊ = ज्या कोणा साधकाचेर; नदरि = कृपा दिश्टी; तिन कार = अश्या मनशाचें काम; निहाल = प्रसन्न, आनंदी.

हे पउडींत वर्णन केल्ली साधकाची स्थिती सचखंडांत – सत्यलोकांमेरेन पाविल्ल्या साधकाची. निर्मळ मन, पवित्र आचरण आशिल्लो मनीसच (साधकच) परमेश्वरा कडेन एकरूप जाता. पूण ही अवस्था मेळोवपाक अग्नीदिव्य करचें लागता, जशें भांगर सोनाराचे भट्टेंत घालतकच आनी तापयतकीच तें शुद्ध जाता आनी ताचेर हातोडेचे घाव पडटकच ताका आकार येता.

इंद्रियनिग्रह ही सोनाराची भट्टी. धीर हो सोनार. बुद्धीरूपी ऐरणेचेर ज्ञानरूपी हातोडेचे घाव सोंसून आकार मेळटा. मागीर ताका प्रेमरूपी मुशींत

तापोवन, नामरूपी अमृतान शुद्ध करचें.

सोनार पयलीं भांगराक खर उज्यांत घालून जाळटा, खूब तापयता. आनी त्या भांगरांतलें हीणकस जाळून काडटा. तेच परी साधकाकय परमेश्वर प्राप्तीखातीर, सत्यलोकांत पावपाखातीर अग्नीदिव्य करचें पडटा. जीव ह्या संवसारांत मोह–मायेच्या पासांत शिरकता. विशयसुखांचें चट ताका लागता. अहंकारान मदेल्लो आसता देखून तो प्रभूकृपेक पयसावता. प्रभूकृपेचो लाव जावपाक पयलीं हें ÷हीणकस' जाळून उडोवप खूब गरजेचें. हे खातीर इंद्रिय निग्रह करून विशयांचेर जैंत जोडूंक जाय. हें म्हाकठीण. म्हणून हें एक अग्नीदिव्य. इंद्रिय निग्रह केल्ल्यान जिवाक चिकटल्ले षड्विकार, अहंकार इत्यादी ÷हीणकस' जळून वता. साधक शुद्ध जावन ताका प्रभूकृपेची ओड लागता.

मागीर साधकाकय सद्सद्विवेकबुद्धीरुपी ऐरणेचेर ज्ञानरुपी हातोडेन सुसंस्कार करून घेवचे लागतात. इतलेंय करून मन इंद्रिय विशयांकडेन केन्ना ओडत म्हणून सांगपाक येना, म्हणून साधकान सदांच शिटूक सावध आसपाक जाय. भांगराच्यो सुंदर वस्ती करपाक, सोनार लगडेचेर नळयेच्या पालवान फूंक घालून, उज्याचेर तापोवन आकार दिता, तेच परी साधकाक परमेश्वरा वयले स्रद्धेचेच नळयेन मन इंद्रियनिग्रहाचेर स्थीर दवरचें पडटा. मागीर तो साधक सत्यलोकांत पावपाक पात्र थारता. ताचे खातीर ताचें आचरण शुद्ध आनी पवित्र आसपाक जाय.

ह्रदयांत प्रभू परमात्म्याविशीं विशुद्ध प्रेम, इंद्रिय निग्रह, धीर, थीरबुद्धी, ज्ञान, स्रम, आदी सद्गुरूरुपी टांकसाळेंत गुरूवाणीची मुद्रा घडटा. मागीर

असल्या साधकाक परमेश्वराच्या दरबारांत प्रवेश मेळटा. ज्या साधकाचेर परमात्म्याची कृपा जाता, त्याच भक्ताक हें अग्नीदिव्य साधता.

नानक म्हणटा, तो दयाळु परमेश्वर असल्या साधकाचेर कृपेची नदर घालून तांकां आनंदी करता.



## श्लोक

पवणु गुरू, पाणी पिता, माता धरति महतु ।।
दिवसु राति दुइ दाई दाइआ, खेलै सगल जगतु ।।
चंगिआईआ बुरिआईआ, वाचै धरमु हदूरि ।।
करमी आपो आपणी, के नेडै के दूरि ।।
जिनी नामु धिआइआ, गए मसकति घालि ।।
नानक ते मुख उजले, केती छुटी नालि ।।१।।

अर्थः महतु = मोठी, व्हडली; सगल = सगट, सगले; चंगीआईआ = बरीं कामां; बुरिआईआ = वायट कर्मां; वाचै = वाचता, ध्यान दिता; हजूरी = परमेश्वराच्या दरबारात; करमी = कर्माप्रमाण; केनेंडे = ईश्वरासरीं; केदुरि = पयस लोटप; जिनी = जे लोक; धिआइआ = ध्यान करतात, चितन करतात; मसकति = कश्ट; घालि = सफळ; छुट्टी = सुट्यात; बंध-मुक्त जातात; नाल = तांचे संगतींत.

आध्यात्मीक जिवितांत ईश्वराचे म्हऱ्यांत वचपाखातीर आठ्ठीस पावड्याची ÷पउडी'ची ही निसण आमकां दितकच ह्या मानवी जिविताचें अस्तित्व, स्थिती आनी स्वरूप हांचें वर्णन एका सुंदर रूपकावरवीं केलां.

मानवी जिणेची मोख कित्तें आनी ती सादपाक गुरू नानकदेवजी आमकां सांगतात: ÷÷पंचम्हाभूतां पयकीं ÷वायू' हो सगळ्या जिवांचो गुरू. ÷आप' (उदक) हो पिता तर पृथ्वी ही माता. गुरू वाट दाखयता. वायू जिवांच्यो हालचाली घडोवन हाडटा म्हणून तो गुरू. उदक आनी जमीन हांच्या संयोगान

जीवसृश्टी निर्माण जाली म्हणून तीं दोगूय जनक (बापूय) आनी जननी (आवय). दीस आनी रात हे सेवक. तांच्या पालवान जिवांचे वेव्हार चलतात.

परमेश्वराच्या दरबारांत बसून धर्मराज सगळ्या जिवांचो कर्मलेख बरयत आसता. आपापल्या कर्माप्रमाण प्रभूकृपेक कोण पात्र जातलो आनी कोण जावंचो ना हें थारता. कोणाक तो म्हऱ्यांत काडटा, कोणाक तो पयस लोट्टा. सत्कर्म करपी जीव तर परमेश्वराच्या म्हऱ्यांत पावतातच पूण हेर मुक्त जाल्ल्या जिवांकय आधार दितात आनी ह्या मोयपासांतल्यान सोडटाच.

संवसार ही एक माची – रंगमाची. परमेश्वरान प्रत्येक जिवाक जल्माक घालतना ताचे खातीर एक भूमिका – एक काम थारायलां. ती भूमिका, तें काम जीव सम करता काय ना हाची नोंद यमराज दवरता. जो हें काम चोख करता ताका प्रभूच्या दरबारांत बक्षीस मेळटा. जो हें काम सारकें करिना ताका परमेश्वर पयस लोट्टा आनी पर्थून जल्माक घालून आपलें काम चोख करपाची संधी दिता.

जण एकल्यान परमेश्वराचें नामस्मरण करून, ताणें दिल्लें काम निर्भयपणान आनी प्रामाणीकपणान करचें, हीच ताची इच्छा. जो जीव परमेश्वरी इच्छेप्रमाण जिवीत सारता, ताचे कश्ट सफळ जातात आनी ताची जीण परमेश्वराचे संगतींत आनंदी जाता.

जो परमेश्वराची भक्ती करतलो, ताचें मुखामळ आनंदान परजळटलें आनी ते भक्तीक लागून ताका मुक्ती मेळटली आनी हेरांक स्फुर्ती मेळटली अशें नानक देवजी म्हणटा.

# समारोप

÷जपुजी साहिब'चो संदेश आनी शिकवण ही फकत शीख धर्मियांपासतच न्हय तर ती सगळ्या संवसाराकय लागू पडटा. गुरू नानकदेवजी हे सगळे मानवजातीचे गुरू मानपाक हरकत ना.

सुरवेकूच गुरू नानकदेव ÷परमेश्वर ओंकार रूप आसून सद्गुरूचे कृपेनूच ताका मेळोवपाक येता' अशें सांगतात. ÷आमी खंयच्या मार्गान गेल्यार ह्या संवसाराच्या मोहपासांतल्यान सुटून परमेश्वराचे कृपेक पात्र जातले?' अशें विचारतकीच ते म्हणटात: ÷हुकमि रजाई चलणा.' अहंकार सोडून, परमेश्वराचे आजेंत वागल्यार आनी चलल्यार तुमी ताचे कृपेक पात्र जातले. ती कृपा नामजप साधनेन मेळोवं येत अशें ते सांगतात. ते आमकां निर्भय आनी निर्वैर जायात अशेंय सांगतात. वैर आनी भंय हीं सोडल्यार आमकां प्रेमान संवसार जिखपाक येतलो. गुरू नानकदेव ÷एक ॐकार सतिनामु'चो मंत्र आमकां दितात. हो मंत्र खंयच्याय धर्मा आड ना. संतांच्या मार्गान चलात, दान करात, दया करात, धर्मान म्हळ्यार नितीन चलात अशेंच तो मंत्र आमकां सांगता.

ब्रह्मविद्येचीं गूढ तत्त्वां आमकां गुरूमुखांतल्यानच सारकीं समजतलीं. ÷गुरूमुखि नादं, गुरूमुखि वेदं' (प.५). गुरूमुखांतल्यानच आमकां ज्ञानाचें म्हत्व खरें कळटा. ध्यान करून जो अभ्यास जाता, ताका नाद म्हणटात. शास्त्राचें ज्ञान म्हळ्यार वेद. असलें ज्ञान दिवपाची जबाबदारी गुरूची.

गुरू नानकदेव परमेश्वराच्या नामस्मरणाचें म्हत्व आमकां सांगता. ÷मंनै, मगु न चलै पंथु' (प.१४); नामस्मरण करपी धर्मांतल्या कर्मकांडाचे वाटेन

वचना आनी संवसारांत उजू वाट धरता. नामस्मरण करपी सदाच धर्मान चलता. ÷धौलु धरमु दइआ का पूतु' (प.१६); ज्या धर्माच्या आधारान आमी उबे आसात, तो दयेचो पूत. संत तुलसीदासानय हेंच म्हळां: ÷÷दया धरम का मूल है।'' (दया हें धर्माचें मूळ.) दयेचें मूळ आशिल्ल्या धर्माचेरूच सृश्टीचे सगळे वेव्हार आधारल्यात. सत्य आनी संतोश ह्या दोन गुणांचेर संवसारांत ÷सूति' (प. १६) सुवेवस्थित येवजण, सुसंगती निर्माण जाता.

गुरू नानकदेवजी आमकां सांगतात: जशे हागा सत्वगुणी लोक आसात, तशेच खूब पापी, दुराचारी आनी तमोगुणी मनशाय आसात. अशे हे असंख्य महामूर्ख लोक तमाच्या घोर काळखांत बुडिल्ले लोक. ते आपले सत्तेच्या नेटार अनंत अत्याचार करतात हें आमी आजय दिसपट्टे पळेतात.

गुरू नानकदेव आमकां दुसऱ्याची निंदा करची न्हय हो उपदेश दितात (प. १८). तशेंच मनीस जसो ओंपता, तेंच तो लुंवता ह्याच तत्त्वाचेर आमकां फुडलो जल्म मेळटलो. जो आपलें जिवीत प्रभूचे इच्छेप्रमाण सारता, ताचेंच जिवीत सफळ जातलें. तशेंच, बुद्धीच्या नेटार परमेश्वराक वळखुपाचो यत्न केल्यार ताका ताच्या दरबारांत स्थान ना. परमेश्वरूच सगळ्याचो चालक, मालक आनी पालक. ही सृश्टी परमेश्वरान निर्मिल्ल्यान, ताकाच हे सृश्टीच्या पसाऱ्याचें गिन्यान आसा. ज्या परमेश्वरान ही सृश्टी निर्मिल्या, तिचें व्हडपण फक्त तोच जाणा.

गुरू नानक आमकां सांगतात: ÷मनि जीतै जगु जीतु' (प. २८). जाणें इंद्रियनिग्रहान मन जिखलें, ताणें सगळो संवसार जिखलो.

गुरू नानक संवसारभर यात्रा करताले. पुरीक पावतकच ताका जगन्नाथाच्या मंदिरात प्रवेश दिलोना. धडये आजय हेच तरेचे प्रसंग घडटात. पूण नानक भायरूच जगन्नाथाची आरती, भजन गावपाक लागले. तांणी मेकळ्या आकाशाखाला उबो रावन म्हळें: हाव त्या भगवंताचो दास जो जगन्नाथ आसा. जगन्नाथाची ही आरती खूब मधूर. ती आरती शीख सदाच म्हणटात. ÷गगन में थाल रविचंद दीपक बने, तारका-मंडळ कनक मोती।' आकाश एक व्हडली थाळी आनी तातूंत सूर्य-चंद्ररुपी ज्योती लायल्यात. अशी एक व्हडली आरती जगन्नाथाची चलल्या. जगन्नाथजी मंदिरांत बंदिस्त ना, विशाळ गगन-मंदिरांत ताचो निवास – अशी ही सुंदर आरती. हें पुरींत सांगतकच ते मक्केक गेले. थंय लेगीत तांणी सर्वव्यापक भगवंताची दीक्षा दिली. अशे तरेन मक्के सावन तांणी आपल्या विचारांचो प्रसार केलो. तांचें हें भजन पंजाबचें लोकप्रिय भजन आसा.

ह्या भजनाविशीं विनोबाजी म्हणटात: ÷÷हें भजन सर्वोदयाचो मूलमंत्र आसा. ÷ना को बैरी ना हि बिगाना' (आमचो कोण दुस्मान ना, वैरी ना, पुणून कोणूच परकी लेगीत ना). सगळे आमचे इश्ट, भाव. हांव सगळ्यांचोच समान मोग करता. कोणाचो चड आनी कोणाचो उणो करूं अशें म्हज्या मनात ना. आमी सगळ्यांच्याच हृदयात रिगूंक जाय. दुस्मानाकय इश्ट कर आनी गुन्याव करप्याकय आपल्या काळजांत सहानुभूती दवर, जाका लागून तोय उंच चडटलो आनी आमी लेगीत. जातूंत वायटपण आसा, ताचेकडेन सहानुभूतीन पळे, तेन्ना वायटपण ना जातलें आनी बरेपण परगट्टलें.''

आयज पंजाबांत एका नानकाचेंच नांव लोक घेतात. ताणें पंजाबाक आनी पर्यायान भारताक एक व्हड संदेश दिला. ÷बिसर गई सब तात पराई' – ह्याचो

अर्थ होच आसा की शीख कोणाकडेनूच दुस्मानपण करिना. झुजचें पडल्यार कर्तव्याखातीर, देशाच्या रक्षणाख़ातीर झूज. म्हणुनूच हिंदू-मुसलमान, ब्राह्मण-हरिजन असो कसलोच भेद गुरूकडेन ना. ÷सकल संगि हमकौ बनि आइ' (सगले आमचे इश्ट, सगले भाव). भगवंतान जें आमचे खातीर केलां, तें बरेंच केलां. (जो प्रभु किन्हो सो भल मान्यो.) ते फुडें सांगतात: ÷सब महं रम रहिया प्रभु एकै।' आमचे भितर एक उजवाड आसा. झगडीं वयलेचाराचीं. आमची सगळे एक. परमात्मो सगळ्यांच्या हृदयांत रावता. परमात्मो सगळेकडेन भरला. हें पळोवन नानक म्हणटा, आपूण हांसतां, खोशी जातां.

**शीख** लोक सार्वजनिक भजन करतात. शेकीं प्रसाद दितात आनी म्हणटात: ÷कामक्रोध अरू लोभ मोह बिनसि जाय अहमेव। नानक प्रभु शरणा गति कर प्रसाद गुरूदेव।'

भौ. सुरेशबाब आमोणकार हे शिक्षणक्षेत्रांतले जाणकार, तज्ञ. पुराय जिवीत तांणी शिक्षणदानाच्या वावराक ओंपलां. तांच्या वडिलांनी म्हापशांत शिक्षणाची एक ल्हानशीच पाणपोंय सुरू केल्ली. सुरेशबाबान त्या ल्हानशा वावराक व्हड रूप दिलें. आज तांचे शिक्षणसंस्थेक भोव विशाळ रूप प्राप्त जालां. सुरेशबाब हे संस्थेंतल्यान मुख्याध्यापक म्हूण निवृत्त जाले. उपरांत तशेंच शिक्षणाकडेन जोडिल्ल्या हेरूय जापसालदारकांतल्यान मेकळे जालेनंतर तांणी एक नवो वावर हातांत घेतलो -- आमच्या सांस्कृतीक दायजाचो सेतू उबारपाचो....

धम्मपद, भगवद्गीता, तिरुक्कुरळ आनी ज्ञानेश्वरी हांची अमोलिक देण कोंकणीचे व्होटयेंत घालून सुरेशबाबान कोंकणीची गिरेस्तकाय वाडयल्याच. पूण तेच बराबर सांस्कृतीक अनुबंधांचीय समृद्धकाय वाडयल्या. आनी हें करतनाच हे समृद्धकायेचे वाटेर आनीक एक पावल घालां. एके वटेन तांणी बायबलांतलो संत जॉनचें गॉस्पेल (शुभवर्तमान) कोंकणींत अणकारला आनी दुसरे वटेन गुरू नानकदेवाच्या जपुजीक आपणाल्या भाष्यासयत कोंकणी रूपकार चडयला. ...

भारतीय समाजांत जशें जायतें अनिष्ट आसा तशें खूबशें बरेंय आसा. इश्ट म्हणपासारकेंय जायतें आसा. हें इश्टपणच आमची विशाळत्वाची नदर सांबाळून आसा आनी म्हणूनच आमी आत्मविश्वासान वसुधैव कुटुंबकम् म्हणूंक शकतात. आनी म्हणूनच सुरेशबाबांसारको मनीस, एका हातांत गीता आनी ज्ञानेश्वरी घेवन दुसऱ्या हातांत संत जॉनचें गॉस्पेल घेवन ताचो कोंकणी रूपकार आमचे मुखार दवरता. सुरेशबाबान जांचे अणकार वा कोंकणी रूपकार आमचेखातीर केल्यात तांचेर लौकीक अर्थान पळोवन धर्मीक वा पंथीय वर्गवारीचे छाप मारूंक फावनात. राष्ट्रीय दायजा सांगाता मनीसकुळयेचें सांस्कृतीक दायज म्हणूनय आमी ताचो स्वीकार करूंक जाय.....

आतांमेरेन सुरेशबाबान आमगेल्या सांस्कृतीक दायजाचो सेतू उबारपा संबंदान जो वावर केला ते विशीं हांवें सांगलें. ज्या जपुजी च्या निमित्तान - जाचो उल्लेख हे आदीं आयला - ते विशीं आतां म्हाका सांगूंक जाय. आनी ताची सुरवात गुरू नानक वा नानकदेव हांचेपासून करची पडटा.

नागेश करमली